# ाग

◇ आंक ५ ◇ डिसेंबर १९९९

ी : रवीन्द्र केळेकार
ंपादपी : माधवी सरदेसाय
ारी : सुमन्त केळेकार
प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय.
ुणी : तन्वी ग्राफिक्स,
बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव.
: प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,
कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय.
वे - : लइराई कंप्यू.


## ह्या आंकांत




पटी : रु. १००/-
र्यांखातीर : रु. ७५/-
र्सांची पटी : रु. २५०/-
ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
डगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
अदीक जोडचे)

नामो :
म्हयनाळें
सालदेल अपार्टमेन्ट्स
उदादिश, पाजीफोंड,
गोंय ४०३ ६०१.
आंकाचें मोल : रु. ९/-


# हुंदरे संपादप्याची

## एकविसाव्या शतमानांत पावल दवरतना

हुंदरांक माजरां मारून खातात. सोरोपूय हुंदरांक मारून खातात. बेब्यांक मारून खातात. वाग हरणां गायो म्हशी माकड मारून खातात. पुणून, माजरांनी केन्ना माजरां मारून खाल्यांत वा हुंदरांनी हुंदीर मारून खाल्यात अशें केन्ना घडलां व्हय? वागांनी वाग मारून खाल्यात म्हणपाचें केन्ना कोणें आयकलां व्हय ?

कशें आयकतले ? तीं जनावरां. तांकां बुद्द ना. मनशाक बुद्द आसा. तो 'जनावर' न्हय. पुणून, एका काळार मनीस मनशांक मारून खातालो. आयजूय खंय हे जातिचे लोक – कॅनिबल्स – संवसारांत खंय खंय आसात.

एक दीस मनशान मनशाक मारून खावप ना अशें थारायलें. तें 'मनीसपणा भायलें' जाता अशें ताका दिसलें आनी ताणें मनशाक खावपाचें सोडून दिलें.

पुणून, मनशांक मारपाचें सोडून दिलां व्हय? तो अजुनूय झुजां करता आनी एकामेकांक मारता, मारीत रावला. फाटल्या वीस शतमानांत ताणें झुजां करून चौदा कोटी णव्वद लाख लोक मारले. Down to Earth नेमाळ्याच्या एका आंकांत हे विशिंचे आंकडे उजवाडा आयल्यात —

पयल्या पंदरा शतमानांत खंय ताणें ३७ लाख लोक मारले. म्हळ्यार, एका एका शतमानांत सुमार दोन अडेज लाख.

उपरांत ताची 'प्रगती' वेगान जायत रावली.

सोळाव्या शतमानांत ताणें १६ लाख लोक मारले.

सतराव्या शतमानांत ६० लाख मारले.

अठराव्या शतमानांत ७० लाख मारले.

इकुणिसाव्या शतमानांत एक कोटी ९४ लाख मारले.

आनी विसाव्या शतमानांत इकरा कोटी धा लाख मारले.

एकामेकां आड झुजले बगर आनी एकामेकांक मारले बगर जशी कितें ताका उंडीच वचना जाल्या.

आतां तो एकविसाव्या शतमानांत पावल दवरपाचो आसा. कसो ? हातांत अण्वस्त्रां घेवन! पाकिस्तान हिन्दुस्ताना सारकेल्या गरीब देशां कडेन लेगीत आतां अण्वस्त्रां आयल्यांत.

ताका आडायलो ना जाल्यार तो धतरिचें कितें करून उडयत, सांगूं नज. आइन्स्टाइन म्हणटालो, तो धतरि वयली मनीस जातूच ना करून उडयतलो म्हणपाचो भंय दिसता.

पाकिस्ताना कडेन अण्वस्त्रां आसात. कित्या खातीर? ताका हिन्दुस्तानाचो भंय म्हूण. हिन्दुस्तान केन्ना आपणाचेर घुरी घालीत, सांगूं नज... आपणें जागरूक राविल्लें बरें आनी शस्त्रास्त्रांनीय सुसज्ज राविल्लें बरें ह्रें ताचें 'धोरण'. हिन्दुस्तानाचेंय धोरण तेंच – पाकिस्तान केन्ना घुरी घालीत सांगूं नज, ताचे कडेन अण्वस्त्रां आसात, आमचेय कडेन आशिल्लीं बरीं, आमीय जागरूक रावंक जाय, नाजाल्यार शेणटले.

पाकिस्तानाक आर्जेन्तिना, उरुग्वाय, पाराग्वाय, दक्षिण आफ्रिका, झिंबाब्वे, जपान, तायवान, फ्रान्स, जर्मनी कोणाचोच भंय दिसना. दिसता हिन्दुस्तानाचो. आमकांय ह्या देशां मजगतच्या कोणाचोच भंय दिसना. दिसता पाकिस्तानाचो.

पाकिस्तानाक हिन्दुस्तानाचो भंय. हिन्दुस्तानाक पाकिस्तानाचो भंय. संवसारांतल्या सगळ्या देशांक आपल्या शेजारी देशाचोच भंय.

सगळे शेजाऱ्या देशांक थर्त भियेतात. शेजारी म्हळ्यार दुस्मान असो कितें अर्थ जावन पडला.

अशेच सगळे आपल्या शेजारी देशांक भियेवपाक लागले जाल्यार एकविसाव्या शतमानांत नवें वा वेगळें कितें घडटलें ह्या संवसारांत ? एकविसावें शतमान विसाव्या शतमाना परस अदीक दुश्ट, अदीक निश्ठूर, अदीक भयांक्रूत जातलें, दुसरें कांय ना.

खरेपणानशीं, विसावें शतमान सोंपता त्या दिसा अख्ख्या संवसारान सोपूत घेवंक जाय – एका काळार 'आमी मनीस मारून खावचे नात' म्हूण घेतिल्लो तसलो – आतां 'मनशांक आमी मारचेच नात' म्हणपाचो.

जायत व्हय काळीज खंयच्याय देशाक हे तरेचो सोपूत घेवपाचें ? जावपाक मनीस 'मनीस' जावंक जाय. आयज तो दानव जाला आनी ताच्यांतलो दानव होच खरो मनीस अशें सांगपी तज्ञूय संवसारांत जल्माक आयल्यात.

एक गजाल विसरूंक फावना —

सूर्यमंडळांत धतरिचेरूच फकत जीव आसात. दुसऱ्या खंयच्याच गिऱ्यार ते अजून मेरेन पळोवंक मेळूंक नात. कोट्यांनी वर्सां सावन धतरिर तरां तरांचे जीव जल्माक येत रावल्यात. कांय जीव लाखांनी कोटिंनी वर्सां जियेले आनी एक दीस खंयच्या तरी सैमीक अपसरणाक लागून धतरिवयले ना जाले. एका काळार धतरिर 'डायनासोर' नांवाचो एक प्राणी भोंवतालो. एक कोटी अंयशीं लाख वर्सां खंय तो जियेल्लो. आयज तो खंयच पळोवंक मेळना. ताचे फकत 'फॉसिल्स' पळोवंक मेळटात. तो ना कसो जालो, खबर ना. सैमीक कारणांक लागून अशें विज्ञानीक सांगतात. एकामेकां आड झुजून निखालूस न्हय. मनशाक धतरिर येवन फकत धा लाख वर्सां जाल्यांत. सगळ्यांत निमाणो तो आयला. आनी तो आतां एकामेकांक मारपा खातीर अण्वस्त्रां तयार करपाक लागला !

अण्वस्त्रांचेर तर बंदी घालुंकूच जाय. सादीं झुजां लेगीत बंद जावंक जाय. ना जाल्यार मनीसजात धतरिर उरपाची ना. झुजां बंद करपा खातीर वावरप हाचे परस व्हड दुसरो वावर ना, व्हड दुसरें कारण ना, अर्थकारण ना, समाजकारण ना. आनी धर्मकारणूय ना. 'मनशाक बुद्द आसा' म्हणटात तें खरें आसत जाल्यार ताची ही बुद्द ह्या एकाच वावरांत खर्च जावंक जाय. केन्ना भायर सरतले आमी हो वावर करपाक ? आमचेर अण्वस्त्रां येवन पडटलीं तेन्ना ?

तेन्ना आमी धतरिर आसचे नात.

एकविसाव्या शतमानांत 'आमी झुजां बंद करतले' हो नित्शय करून पावल दवरूंया.

## निर्फळ सेवाकार्यां

शेजारच्या राज्यांतले एके सेवाधर्मी संस्थेचो एक जाणटो सो कार्यकर्तो गोंयांत आयिल्लो. आपणाले संस्थे खातीर पटी जमयत भोंवतालो. भोंवत भोंवत आमगेर पावलो. हांव भायरूच पेपर वाचीत बशिल्लों.

'येऊं का ?' ताणें विचारलें.

'या' म्हणून ताका हांवें येवकार दिलो. तो नीट भितर आयलो. मुखा वयल्या कदेलार बसलो आनी ताणें आपणाली परवड सुरू केली. आमचें एक अन्नछत्रालय चलता, इतले गरीब सद्दां जेवन वतात. एक शाळा चलता, इतले भुरगे फुकट शिकतात. एक दवाखानो चलता, इतल्या लोकांक आमी फुकट वखदां दितात... 'आमच्या संस्थेसाठी काहीं द्या' अशें म्हणून ताणें पावती बूक म्हज्या हातांत दिलें. कोणें कितले घाल्यात ते पळेले. कोणे शंबर घाल्ले, कोणें पन्नास तर कोणें पंचवीस घाल्ले. 'निर्फळ सेवाकार्य हें', मनांत म्हळें आनी भितर गेलों. पन्नासांची एक नोट हाडून ताच्या हातार दवरली. 'एवढेच का ? शंभर द्या.' मोन्यांनी परतो भितर गेलों आनी आनीक एक पन्नासांची नोट हाडून दिली.

दारांत आयिल्ल्याक रिकाम्या हातांनी परतो धाडप ना ह्या नेमाक पाळो दीत आयलां म्हूण दिले. खरीच असली संस्था चलता काय ना, हावें दुबाव लेगीत घेतलो ना. मनीस निर्मळ दिसलो, म्हूण दिले. शंबर म्हाका तांकऽ नाशिल्ले. ते भायर, असल्या सेवा धर्मचिक्र्य भावार्त नाशिल्लो.

निर्फळ खर्च खूब जाता. हे शंबर निर्फळ खर्चाच्या खात्यांत घाले

* * *

कांय जाणांच्या रगतांतूच एक गूण आसता – कोणाच्याय जिवा ना म्हूण कळनाफुडें तांकां कळवळून येता आनी ताचे सेवेक ते वतात. कोणूय उपाशीं आसा म्हूण कळनाफुडें तांकां काकूळट आनी खंयच्यानूय तरी कितेंय तरी हाडून ते ताका खावपाक दितात

बऱ्यांतलो बरो गूण हो एक. मनीसपणान उपाट भरिल्लो. जण एक केळोवपा सारको. असलेच कांय जाण असल्यो सेवाधर्मी संस्था चलो मुखार सरतात आनी ते तन मन प्राण ओतून त्यो चलयतात.

आनी, त्यो चलोवपाक तांकां पयसोय खूब मेळटा. मागूंक व कोणूच ना म्हणिना. कोणं दिता त्या प्रस्नाक म्हत्व ना. दिवपी आसूं येता. हाजी मस्तानूय आसूं येता, सुकूर भाकियाय आसूं येत अंबानी, बिर्ला, टाटा सारकेले कोण आसूं येता. 'उडदां माजी काळे कोण वेचूंक बसतलो ? तत्त्वाचे नदरेन सगळे सारके. नीट मार्गान व आयजवेर लक्षाधीश, कोट्याधीश, अब्जाधीश जावंक पावूंक ना. स्मगलींग करून जाला, कोण टॅक्स चुकोवन जाला, कोण हार्ची बोल्सां भरून जाला, कोण हाका ताका नागोवन जाला. तर कोण राजव पडून जाला. आड मार्गान गेल्यात तांगेरूच लक्ष्मी सदां उदक आयल्या.

असल्याच कोट्याधीश अब्जाधीशांच्या पयशांचेर सत्य साईब इश्कोलां, कॉलेजां, हॉस्पिटलां चलूंक पावल्यांत. मदर तेरेझाचें सा कशें उबें जावंक पावलां ? देश विदेशांतल्या असल्याच लोकांच्या पयश आदाराक लागून न्हय व्हय ? मागीर सेवाधर्मी लोकांनी आप सेवाधर्माच्यो संस्था चलोवपाक हांचेकडल्यान पयशे घेवचे न्हय, अशें ख तोंडान म्हणपाचें ? 'दान धर्म करात, तुमकां पुण्य मेळटलें' अशें स धर्मांनी आपापणाल्या पाठलाग्यांक सांगलां आनी गरीब दुबळ्यांची करात म्हूण सेवाधर्मी सभावाच्या लोकांकूय सांगलां. म्हूण दिवपी आनी घेवपी घेतात. दिवप्यां घेवप्यांक कसल्याच बांदपासांनी कोणूच घेना.

एक सदगूण म्हूण दान दिवप घेवप हाची तुस्त करची. पुण सद्गुणाचें जेन्ना संस्थाकरण – इन्स्टिट्युशनलायझेशन – जाता तेन्ना तो हुसक्यांत घालपी प्रस्न जावन पडटा.

दानधर्मांत गरिबांची गरिबाय ना करपाची तांक आसता व्हय ? ग दानानूय ना जायना, सेवेनूय ना करूंक येना. दान दितल्यांक आनी करतल्यांक 'आमी गरिबां खातीर कितेंय तरी करतात' हो संतोस कितेंच मेळना. निर्वीर्य संतोस हो एक. मोट्यांतलो मोटो भ्रमूय हो जी अर्थविवस्ता गरिबाय निर्माण करता तीच मोडूंक जाय. आनी सुवातेर गरीब निर्माणूच जावंक पावचे नात हे तरेची एक नवी अर्थ उबी करूंक जाय. गरिबाय ना करपाचो दुसरो उपाय ना. 'सेवा ह्याच उद्देशान चलूंक जाय. सेवाकार्यान असले तरेचो वावर करूंक की जाका लागून खासा गरिबांक म्हणूंक येवंक जाय – आमी हे गरीब केन्नाच रावपाचे नात. आमचें शोषण आमी केन्नाच कोणाक दिवपाचे नात. गरिबाय निर्माण करपी अर्थविवस्ता आमी निखालूस दिवपाचे नात. ही अर्थविवस्ता आमी मोडटले.

जे तरेचें सेवाकार्य आयज मेरेन संवसारभर चलत आयलां – तें मदर तेरेझाचें आसूं, सत्य साईबाबाचें आसूं वा रामकृष्ण मिशनाचें

गरिबा गरिबाये आड उबें करता व्हय? तांच्यांत 'आमचो फुडार घडतले' हे तरेचो आत्मविस्वास निर्माण करता व्हय? तांकां र, विही करता व्हय? ह्या सेवाकार्यांत ती तांकूच ना.

त्याव हें सेवाकार्य 'गरीब देवान निर्माण केल्यात' ह्या एकाच भावार्ताचेर जेअवस्तेंत देवान आमकां घाल्यात ते अवस्तेंतूच धादोशी रावंक रडपा अर्थ ना, संतापान उसळून कांय जावपाचें ना' हीच शिकवण आंकीत आयलां.

धर्मालयतल्यांक विचारून पळेयात, 'समाजांत गरीब निर्माण जालेच कोणेतांकां गरीब केले, हाचेर तुमी केन्ना येवजिलां व्हय?' तांकां जा दिवंक येवपाची ना. मदर तेरेझांक विचारिल्लें जाल्यार तिकाय येवा नाशिल्ली. ती इतलेंच म्हणटली आसली, 'संवसारांत गरीब त, सां आशिल्ले, सदां आसतले; तांची सेवा करप आमची लागणूक धर्मसेवेचो वावर करतात.'

वाव करून तुमकां कितें मेळटा?' हो प्रस्न विचारून पळेयात. आंतरीक – संतोस' इतलीच जाप मेळटली. मदर तेरेझाय जाप देतली आशिल्ली. हो संतोस आपणाक चडांत चड भोगूंक म्हूच तर ती हिन्दुस्ताना सारकेल्या गरिबांतल्या गरीब देशांत ली हय?

रीब वान निर्माण केल्यात अशें तुका दिसता व्हय?' ह्या प्रस्नाक या' हुण्णूच जाप दितली आशिल्ली. प्रामाणीक बायलमनीस ती. तलाचेर पावूंक ना. 'पुण्यकार्य' केलां म्हूण पावल्या. कसलें पुण्यकार्य गबांक धीर दिवपाचें, आधार दिवपाचें, बुजवण दिवपाचें, घटाय चें.

बारना करूंक जाय, ती ना करूंक येता हें तिका खबरूच नाशिल्लें. सोल्लें जाल्यारूय तिका तें खरें दिसचें नाशिल्लें. कित्याक, मर्माक धरून चलताली तो दोन हजार वर्सां पयलीं जल्माक लो हिन्दुंचो पांच हजार वर्सां पयलिंचो. इतल्या पोरण्या ह्या धर्माक करूंक येता म्हणपाचें खबर ना. गरीब खंयच्यान आयले हें चतात त्या धर्मां मजगतचो एकूय धर्म नकळ. सगळे 'देवान निर्म केल्यात' अशें मानीत आयल्यात.

हलो निश्टूर व्हय? देवाचे निर्मणेंतल्या खंयच्याच जिवांत गरीब मे ना. वागांत ना, शिंवांत ना. माजरांत ना, हुंदरांत ना. दिवडांत त ना. खंयच्याच सुकण्या-शेवण्यांत ना. किडी मुयांत ना. जे जीव सैमांत आसात. कोण उपाशीं पडिल्लो आयकूंक ना. खातीर सद्दां कितें-न्हय-कितें निर्माण करीत आयलां आनी सदां सारकेंच मेळत आयलां. फकत मनशांतूच गरीब गिरेस्त क मेळटा. फकत मनशांतूच एके वटेन पोट भरिल्ल्यान धेंकर क आसात तर दुसरे वटेन पोटांत कांयच पडूंक नाशिल्ल्यान एक जाल्लेय लोक आसात. फकत मनशांतूच कसलोच स्रम ना आळसायेंत लोळपी लोक एके वटेन पळोवंक मेळटात, वटेन मरऽ सर स्रम करून दुसऱ्यांचीं कामां करपी लोक दिश्टी सगळे अन्याय, ही सगळी अनीत देवान चलयल्या म्हणप

य, ही अनीत संवसारांत चलिल्ली आसतना कोणूय पुण्यकार्य ब दुबळ्यांची सेवा करता ती तॉलस्तॉय पळेतालो तेन्ना तिडकीन आनी 'चोरांनो, तुमी गरिबांचे फाटीर चडून बसल्यात आनी आमी तुमची सेवा करतात म्हूण तोंड घेवन सांगतात? फाटी यल देंवात पयलीं' अशें ताणशेवन म्हणटालो. 'तेच मागीर सेवा कशी करची तें थारायतले... तुमचे सेवेची तांकां गरज सांगतालो.

मार्क्स आपणाले धोंगापोंगांचे भाशेंत ह्या सेवाधर्माक 'अफिणेची गुळी' म्हणटालो. 'सेवाधर्म गरिबांक सदां गरिबायेंतूच संतुश्ट रावंक शिकयता' अशें म्हूण तिडकतालो.

दोगूय कोण कोणाचे फाटीर चडून बसचो ना, कोण कोणाच्या स्रमाचो लाव घेवन आपणाक गिरेस्त आनी दुसऱ्याक गरीब करूंक पावचो ना, हे तरेची एक अर्थविवस्ता उबी करपाक आंवडेताले.

गांधींचोय होच आंवडो आशिल्लो. गरिबांचे फाटीर चडून बशिल्ल्या सगळ्यांक फाटी वयले देंवोवन ते एक नवो शोषण-मुक्त समाज निर्मूंक सोदताले. तांणी एकूच पावल मुखार घाल्लें आनी म्हळ्ळें, विकेन्द्रीकरणाचें तत्त्व उत्पादन-वितरणाचे प्रक्रियेंत चलयले बगर शोषण-मुक्त समाज निर्माण जावंक पावचो ना. तांच्या विधायक कार्यक्रमाची मोख हीच आशिल्ली. 'कामये दुःखतप्तानाम् प्राणिनामार्ति नाशनम्' मोख आशिल्ली जाल्यार ते विधायक कार्यक्रमांत अन्नछत्रालयांचो, हॉस्पिटलांचो आसपाव करतले आशिल्ले. तांणी करूंक ना. कित्याक, तांकां पोरणी समाजवेवस्ता, अर्थविवस्ता मोडून नवी समाजवेवस्ता अर्थविवस्ता निर्मुपाची आशिल्ली.

आनी लक्षांत दवरूंक जाय – तांणी हो कार्यक्रम देवाक मदीं घाली नासतना आंखून काडिल्लो.

खरेपणानशीं देवाक मदीं घाली नासतना आमकां गरिबाय ना करपाचो वावर करूंक येवंक जाय. देवाक मदीं घाली नासतना आमकां आमचे आर्थीक सामाजीक नितिचे नेम घडोवंक येवंक जाय. 'सगळ्यांक सारकें जियेवंक मेळूंक जाय, सगळ्यांक मुखार सरपाच्यो सारक्यो संदी मेळूंक जाय. ह्या वावरांत कोणाकूच ताचे जातिची, ताच्या धर्माची आडखळ जावंक जायना; कोणेंच कोणाचें शोषण करूंक जायना; झुजां संवसारांत चलुंकूच दिवंक जायनात; गरजो भागयता आसतना भूंय, वारो, उदक विखाळ करूंक जायना, झाडां मारूंक जायनात, सुकणीं सावदां मारूंक जायनात बी ज्यो देखी आयच्या संवसारांत आमचे मुखार दवरल्यात त्यो देवाक मदीं घाली नासतना घडयल्यात. तेच भाशेन, समाजांत गरीब आसतना आपणें गिरेस्त जावप अन्यायाचें, अनितिचें, अनार्य, सभ्य समाजाक सोबना अशें आमकां, देवाक मदीं घाली नासतना, म्हणूंक येवंक जाय.

आयज मेरेन चलत आयला तो 'सेवाधर्म' नव्या युगाकडेन ताल धरून चलना. म्हूण तो काळा भायलो – out of date – जाला. निर्फळ थरला.

तरी आसतना तो चलता आनी ताची तुस्त-तोखणायूय खूब जाता. कित्याक जाणात – गरिबाय ना करपाचें काळिजूच कोणाक जायना. सरकाराक जायना, लोकांकूय जायना म्हूण. आनी गरीब केन्ना विद्रोहान उठत, सांगूंक येना. गरीब आसप समाजाकूय तांकपाचें ना, सरकाराक तर तांकपाचें नाच ना. म्हणटकूच, कितें करपाचें? गरीब विद्रोहान उठचे न्हय म्हूण तांची 'सेवा' करपाची प्रेरणा कांय जाणांक दिवपाची. ती कोणाकडल्यान तांकां मेळटली? मदर तेरेझा सारकेल्यां कडल्यान न्हय जाल्यार कोणा कडल्यान? हिका पळेयात, हिची संवसारभर तुस्त चल्ल्या. तिका नोबेल इनाम मेळ्ळां. आतां संत जावपाची आसा.

सेवाभावी लोकांची संवसारभर जी तुस्त तोखणाय चल्ल्या – सुमारा भायर चल्ल्या – ती हे खातीर.

आयचो विद्रोह फाल्यांचेर धुकलपा खातीर. कळ्ळें? 'सेवाकार्यां'तलीं निर्फळपणां आमी केन्ना वळखूंक लागतले? प्रस्थापितांचीं तड्डकां केन्ना वळखतले?

## '...जेनां मन ना डगे'

पर्वतांत मेरू थीर पर्वत. तो लेगीत घडये हे वटेनचो ते वटेन जायत. पुणून केदींय मोडां येवं, केदींय संकश्टां कोसळूं, भक्त केन्ना हालचो ना.

ब्रह्मांड कोसळून पडलें तरूय हेवटेनचो तेवटेन जावचो ना.

मेरू डगे, जेनां मन ना डगे,
  मरने भांगी पडे ब्रह्मांडजी।
विपत्ति पडे तोये वणसे नहीं ने,
  सोई हरिजन नां परमाण जी॥
(वणसे नहीं = इबाड्चो ना)

कोण सांगता हें? बरप अक्षर शिकूंक नाशिल्ली सौराष्ट्रांतली गंगासती नांवाची एक बायलमनीस. सुधारिल्लो समाज जिका 'गांवठी' म्हणून कडेक उडयतलो आशिल्लो तांच्यांतली.

पुणून हें जग अध्यात्माचें. गूढ, दैवी (mystic) अणभव आशिल्ल्या लोकांचें. ह्या जगांत सुधारिल्लो आनी गांवठी, शिकिल्लो आनी शिकूंक नाशिल्लो, ल्हान आनी व्हड, दादलो आनी बायल असले कसलेच पांवडे आसनात. आसता फकत उजवाड, ज्ञानाचो. आनी गंगासती बरप अक्षर शिकूंक नाशिल्ली 'ज्ञानी' आशिल्ली. भक्ताक कसो वळखुचो – ताका वळखुपाच्यो खुणो खंयच्यो – म्हूण तिगेली विधवा सून तिका विचारता तेन्ना ती उपनिषदांतल्या रुशी भाशेन तिका सांगता—

'केदेय विपत्तेंत पडिल्लो आसलो तरूय जो मात लेगीत हालना, हे वटेनचो ते वटेन जायना तो भक्त. भक्ताक वळखुपाची पयली खुणा म्हळ्यार, तो अ-चल आसूंक जाय. ताचें मन मात लेगीत चलना असलें आसूंक जाय.'

'मनां'त भावनाशील मनाचोय आसपाव जाता आनी भावनेक नियंत्रणांत दवरपी बुद्दिचोय जाता. विपदेंत पडिल्ल्या मनशांचें भावनाशीळ मनूच न्हय, तर विवेकी बुद्दूय केन्ना केन्ना थतर वितर जाता. नित्शया पसून, ध्येया पसून केन्ना केन्ना पळटा. विपदेंत भक्ताचें मनूय थीर उरूंक जाय आनी बुद्दूय दिग उबी उरूंक जाय. जाचें मन हालना, बुद्दूय चलना ताकाच भक्त लेखपाचो, ताकाच ज्ञानी मानपाचो.

**दुःखेष्वनुद्विग्नमनाः सुखेषु विगतस्पृहा:।** तो भक्त.

हे तरेचें मन कोणाचें आसता? जाचें चित्त निर्मळ आसता ताचें. गंगासती सांगता—

चित्तनी वृत्ति जेनी सदाय निरमळ,
  ने कोईनी करे नहि आशजी।

निर्मळ चित्त म्हळ्यार अशे तरेचें चित्त कीं जाका तिडक, ओड, दुस्वास, मत्सर, भंय असल्या खंयच्याच अवगुणांचें खत पडिल्लें ना. भक्ताची कूड थोडी भोव म्हेळी आसल्यार एक वेळ उपकरा पडत, पुणून ताचें मन? मात् लेगीत म्हेळें आसूंक जायना. भक्त **वीत-राग-भय-क्रोध:** जाल्लो आसूंक जाय. तेन्नाच ताची बुद्द थीर उरता. इतलेंच न्हय, तर ताणें कोणाची आनी कित्याची आस्तूय धरूंक जायना. आस्त धरपी केन्ना आपणा सुवादीन उरना. भक्त आपणा सुवादीन – स्वाधीन – आसूंक जाय.

दान देवे पण रहे अजाची,
  राखे वचन मां विश्वास जी।

कोणेंय कितेंय मागूं, तो ना केन्ना म्हणचो ना. हातचें राखून दिवचो ना. दिवन उडयतलो सगळें. सगळ्यांक, मात लेगीत अनमन नासतना. दिवन केन्ना कोण रितो जायना. झरिचें उदक कोणूय पियेवं, कितलेंय पियेवं, कितलेय जाण पियेवं, झर केन्ना आटना. म्हूण, तो दिता, उदार हातान दिता आनी आपूण मात सदां 'अजाची'च रावता. अजाची म्हळ्यार यथाचित. कोणाकडेन आपणा खातीर कितेंच मागी ना असलो. ईश्वराकडेन लेगीत मागी ना असलो. कित्याक? ताच्यांत एक खोल भावार्त मूळ धरून राविल्लो आसता – 'जग अनाथ न्हय' म्हणपाचो. सैमाच्या रुपान सगळ्यां खातीर कितेंय-न्हय-कितें निर्माण करीत रावला, सगळ्यांच्यो भागयत आयला. धत्तरेर जल्माक आयिल्लो खंयचोच जीव केन्ना उ पडिल्लो कोणें पळेला व्हय? मनशांच्या जगांत लोक उपाशीं मर ईश्वराच्या जगांत कोण मरना. मनशान आपणालें जग ईश्वरी नेमांक धुतक उबें केलां. सैमाचें जग ईश्वरी नेमांक धरून चलता. ह्या जगांत मुयां पसून हती गेंड्या मेरेन सगळ्यांक पोसवण मेळत आयल्या. इ जतनाय जो आपणाल्या जगाची घेता तो म्हाकाच एकल्याच कि विसरतलो? ताणें **योगक्षेमं वहाम्यहम्** उतर म्हाकाय दिलां. त्या उत भक्त पातयेवन रावता. 'ताचें' (ईश्वराचें) उतर केन्ना फट जावचें ना मानून.

'राखे वचन मां विश्वास जी' कडव्याचो कांय जाण आनीक एक लायतात. पातयेवप (विस्वास दवरप) ईश्वराच्या उतराचेर तर ख 'तितलोच मागतल्याच्याय उतराचेर दवरूंक जाय.' मागतलो केन्ना फटयता खरो. पुणून आपणाक तो फटयता म्हणपाचो दुबाव लेगीत मन मनांत येवंक दिवंक जायना. 'बेश्टो कित्याक फटयतलो? केन्ना फट ना' असो विस्वास मागतल्याचेर दवरूंक जाणा तोच खरो भक्त, खरो ज्ञानी, तोच खरो संत. असलो विस्वास दवरपाक काळजांत आका – अंत आनी पार नाशिल्ली – शक्ती आसची पडटा. गंगासती म्ह ईश्वराच्या उतराचेर पातयेवन जो जियेत आयला ताका तितली श ईश्वर सदांच दीत आयला.

थीर बुद्द, निर्मळ चित्त, दानी सभाव, अयाचित वृत्ती आनी अनाथ न्हय' म्हणपाचो खोल भावार्थ, ह्यो भक्ताच्यो खुणो दाखोवन जा गंगासती ताचें आनीक एक लक्षण सांगता – 'तो खोस खंती पे गेल्लो आसता.'

हरख ने शोकनी आवे नहिं हेडकी,
  आठे पहोर रहे आनंद जी।
नित्य रे नाचे सत्संगमा ने
  तोडे माया केरा फंद जी॥

'ताका खोशयोच्यो आनी खंतिच्यो खेळण्यो (हेडकी) येनात.'

हांगा मात्शे थांबून चिंतूंक जाय—

जाका खोशयेच्यो आनी खंतिच्यो खेळण्यो येनात तो कसलो आसतलो? खोसूय जायना, खंतूय जायना असलो? जाल्यार ताचें क भेरेलां, फातराळ जालां, म्हणचें पडटलें. भक्ताचें काळीज फातराळ ना जे जिबेक अळणीय कळना, खारूय वळखूंक येना ती जीब कस जिबेक खारूय वळखूंक येवंक जाय, अळणीय वळखूंक येवंक जाय. कळूंक जाय, तिखूय कळूंक जाय. ना जाल्यार जिबेची संवेदन- मेल्या म्हणूंक जाय. तशी, काळजाक खोसूय जावंक जाय, खंतूय जाय. खोशयेन मनशाक आनंदीतय जावंक येवंक जाय आनी खंतीन येवंक जाय. पुणून जिबेन जशें रुची सुवादीन जावंक जायना तशें का खोस खंती सुवादीन जावंक जायना. खोस खंती पेल्यान ताका येवंक जाय.

खोस खंतिच्यो 'खेळण्यो' तर ताका केन्ना येवंकूच जायनात. ख भुरकुटून वचप ह्यो खोशयेच्यो खेळण्यो, खंतीन थतर वितर जा खंतिच्यो खेळण्यो. ज्ञानी मनशाक ह्यो खेळण्यो सोबनात. तो खोस-खंती आनी सुखां-दुख्खां मनशाच्या जिवितांत येतात आनी सदांकाळ तिगून उरनात. जशे पावसाळो, शियाळो, गिमाळो हे रुतू आनी वतात. सदांकाळ तिगून रावनात. सदांकाळ तिगून उर सुख-दुख्खा पेले कडली एक अवस्ता. तिका 'आनन्द' म्हणटात. अ कोण आसता? शंकराचार्य जाप दिता, **स्वशान्तसर्वेन्द्रियवृत्तिमन्तः**

इंद्रिं शांत जाल्यांत तो. भक्त आठूय पार असल्या आनन्दांत आ पहोर आनन्द रे). हो दैवी आनन्द. लोकीक आनन्द (खोस) चप हो. दैवी आनन्द सदांकाळ उरपी. बुद्ध हे नदरेक 'समा न्हणालो. समा नदर म्हळ्यार प्रज्ञेची नदर. जें जशें आसा तें ळोपाची नदर. 'जें जशें आसा तें तशेंच पळोवप' हाका 'सत्य णटात. गंगासती म्हणटा, प्रज्ञावंत मनीस सदां सत्संगांतूच त्-संग म्हळ्यार सत्याचो सांगात. बाबा बैराग्याचे म्हन्यांत ज म्हणप, कथा किर्तनां वा उपदेस आयकप म्हळ्यारूच 'सत्संग' नि रे नाचे सत्संग मां' म्हळ्यार सत्याच्याच सांगातांत नित्य चा तो. सत्य हें ईश्वराचें सगूण रूप. ताच्या नित्य सांगातांत मोस 'नाचता'. कित्याक, थंय वाचाय मोनी जाल्ली आसता. कृ आपशींच नाचपाक लागली जाल्यार अजाप कसलें? हो र्कक न्हय. दिव्य नाच हो. मीरा नाचताली. पांयांक पांयजणां नाताली (पगे घुंघरू बांध मीरा नाची रे). सत्याच्या (ईश्वराच्या) न सरें कितेंच तिका करूंक येनाशिल्लें. सूरदास नाचतालो. चैतन्य नातालो. नरसैंयो (नरसिंह मेहता) नाचतालो. जाच्या काळजाक त्वो स्पर्श जाला तो सदांच नाचला. मायेचे सगळे बांदपास लों. (तोडे माया केरा फंद जी) हो दैवी नाच नाचता ताका तयलीं एक जाणवीक जाता. ती म्हळ्यार, 'हांव कोण न्हय' ी.

नन धन जेणे प्रभुने समर्प्यां,
नाम निजारि नर ने नार जी।
कते बेसीने आराधना मांडे,
अलख पधारे ए द्वार जी॥

'हळ्यार सद्गुणी, बरो, उजू चलणुकेचो. ते भायर, आपणालें त मन धन' ईश्वराच्या पांयांकडेन ओंपिल्लो. 'निज-अरि' ओंपिल्लो. तन मन धन सगळें ओंपूं येत. आपणाक ओंपप आमच्यांत एक 'हांव' आसा. तो सोंपेपणान आपणाक दिवन श्वराक दिवन उडोवपूय ताका जमना. ताका शून्य जावंकूच शून्य जाला, जाचो 'हांव' ना जाला तो 'निजारी'. असलें लो मनीस – तो दादलो आसूं, बायलमनीस आसूं – एकान्तांत धना करता. आराधना धोल ताशे बडोवन करूंक येना. ती बसून करूंक जाय. मोन्यांनीच करूंक जाय. तेन्नाच, 'अलख वार जी'. अलख म्हळ्यार पुराय ब्रह्मांड व्यापून राविल्लो सोदपाक खंयच वचचें पडचें ना. तोच तुका सोदीत तुज्या उबो रावतलो.

भक्ताचीं हीं लक्षणां आपणाले विधवा सुनेक विकसावन आपणाले दस सरल्यात, पांच उरल्यात, सुनेचे पंदराय उरल्यात जाणवीक आशिल्ली. आपणा फाटल्यान सून उबंत पडची धार उरची न्हय म्हूण ती सुनेक सांगता —

करो तो तमे एवानी करजो,
भजन मां रहे भरपूर जी।

रची जाली जाल्यार असल्याच संताची धर जाच्यांत भक्ती या. जाच्यांत विकार नात, विलास नात, अभिमान ना, लाचारी त ज्ञानाचो उजवाड भरला, मोग भरला ताचीच धर. तूं वयल्या ावतली.

क्षर शिकूंक नाशिल्लीं केदीं ज्ञानी मनशां निर्माण केल्यांत आमच्या !

तांच्यांतली एक.

## राजा राणयेच्या देशांत

फादर फ्रान्सिस दि ब्रिटो रोमन कॅथॉलिक पंथाचे एक धर्मगुरू. महाराष्ट्रांत आसतात. तांगेल्या एका उलोवपांतलो एक वांटो पुण्यांतल्या **भाषा आणि जीवन** नेमाळ्याच्या (वर्स १७, आंक २, गीम १९९९)च्या आंकांत आयला.

फादर ब्रिटो म्हणटात —

''जांणी हांगा आमचेर सुमार देडशें वर्सां शेक चलयलो त्या ब्रिटिशांच्या इंग्लंडांत – सॉरी, ग्रेट ब्रिटनांत – चार म्हयने रावन आयलों. ग्रेट ब्रिटन हें ह्या देशाचें नांव. इंग्लंड हें ह्या देशांतलें एक राज्य. तशीं, थंय आनीक दोन राज्यां आसात – वेल्स आनी स्कॉटलँड. तिनूय राज्यांच्यो तीन अस्मितायो. आमी पयले इंग्लीश, वेल्स, आनी स्कॉटिश, उपरांत ब्रिटीश अशें ह्या तिनूय राज्यांतलो जण एकलो मोट्या अभिमानान सांगता. वेल्स लोकांक आपणाले वेल्स भाशेचो खूब अभिमान. ह्या वाटारांत खंयचेय सभेक वचात, लोक वेल्स भाशेंतूच उलयल्ले आयकूंक मेळटले. पयली सुवात वेल्स भाशेक, उपरांत (गरज पडल्यारूच) इंग्लिशेक. वेल्स लोक एकामेकां लागीं वेल्स भाशेंतूच उलयतले.

म्हळ्यार, ग्रेट ब्रिटनांत सगळे इंग्लीश भासूच उलयतात म्हणटात तो आमचो समज सामको चुकला.

'इंग्लीश एक अंतर-राष्ट्रीय भास' अशें म्हणून मायभाशेक दुसरे सुवातेर बसोवपी जायते **देशी सायब** आमच्या देशांत आसात. तांणी मुजरत सप्तकभर तरी वेल्साक वचून रावचें. थंयचे लोक केद्या अभिमानान आपणाली भास उलयतात तें तांकां पळोवंक मेळटलें. वेल्सांत सगळे वेव्हार लोक वेल्स भाशेंतूच करतात. चर्चांनी लेगीत सगळें देव देवसपण वेल्स भाशेंतल्यान चलता.

मायभास रगता सारकी. शुद्ध रगताक लागुनूच कूड बरी आरोग्यवान उरता. दुसऱ्याच्या रगताचेर चड दीस जियेवंक येना. मायभाशेची उवेखणी करून पर-भास घेवप म्हळ्यार सदां काळ 'डायलेसिस'चेर जियेवपा सारकें.

वेव्हारा खातीर इंग्लिशेची कितलीय गरज भासूं, जियेवपाक मायभाशेचीच गरज आसा हें वेल्स लोकां कडल्यान आमकां शिकूंक येवचें ना व्हय?''

## पडसाद

नमस्कार

तुमी 'उशणीं उतरां' नांवाचें नवें सदर सुरू करीत सावन ताचेर चोंय आंगांनी विचार जावपाक लागला ही बरी गजाल.

ऑक्टोबरच्या ह्या विशयावेल्या लेखांत तुमी पुलीस-ठाणें ह्या उतरांतलें Police तश्यातशें कोंकणींत उरलां अशें म्हळां. पूण मुळांत Police हें ग्रीक उतर. ताचो अर्थ नगर वा शार असो जाता. इंग्लीश उतरांचो कोंकणीकडलो संबंद दाखयतना तें तें मूळ उतर इंग्लीशींत कशें आयलें वा हेर भासांतल्यान कशें आयलें हाचो बऱ्यापैकीं अभ्यास तुमच्या सदरांतल्यान जावं येता.

दुसरें, तुमी म्हणटात, नागडो-बेताळो हें 'वेत्तात्पे' ह्या कन्नड उतरांतल्यान (अर्थ 'नागडो'च) आयलां. तशें जर आसत जाल्यार आमचे लोकभाशेंत 'नागडो बेताळो / शेतात वयतालो / शेतकाराचें मूत पियेवन / घरा येतालो' हें बडबडगीत कशें आयलें? आनी गांवा गांवा कणकणी 'बेताळ' देव लोकमानसांतत कसो रुजवणा आयलो ते फाटलो सांस्कृतीक इतिहास कितें? हे सारकेल्या प्रस्नाच्यो जापोय तुमच्या सदरांतल्यान मेळत रावल्यो जाल्यार अभ्यासकांक ताचो बरोच उपेग जातलो.

म्हायती खातर म्हणून सुरेश भट हांचो साप्ताहिक लोकप्रभा मे १९९६च्या आंकांतल्या लेखाचो आपरोस हांगा दितां. 'किती परकीय शब्द काढणार' ह्या माथाळ्याखाला तो छापला. ते म्हणटात, कला हें उतर आसिरियांतल्यान घेतलां. तैग्रीस आनी युफ्रेटीस न्हयांच्या दुआबातल्या प्रदेसाक, म्हळ्यार सद्द्याचे इराकाचे दुसरे राजधानीक इ.पू. १३९५त कला म्हणटाले. ऋग्वेदांत कला हें उतर चंद्रकलांक धरून आयलां.

विरासत, हवाला, कायम, मुद्दाम्, गरज, इरादा, अत्सल, माहीत, मुजरा, फैसला, कायदा, मुभा (अरबी उतरां); दबदबा, विमा, औंदा, चोप, मालीश (फारसी उतरां); चुगुल (मूळ तुर्की उतर) हे भायर हीं उतरां मराठी न्हय म्हूण ते एक वळेरी दितात: कागद, शाई, दौत, तोफ, बन्दूक, बाजार, आजार, आराम, चेहरा, अखेर, शिवाय, ऐवजी, मैदान, मोर्चा, माफी, नजराणा, जिल्हा, सरदार, तवा, बर्फ, बर्फी, दालन, बखर, पडदा, दलाल, सराफ, पेशा, चरखा, तगादा, चश्मा, खुर्ची, बाग
शिपाई, पैलवान, मुख्यातार, मुनीम, जमादार, पेशवा, शिक्का,
तबला, हवेली, दफ्तर, कमान, लिफाफा, सरकारी, चादर, शाल,
पायजमा, मोजा, मशाल, प्याला, पेला, मैदा, बेसन, चपाती,
रुमाल, अंजीर, पुदीना, मसाला, लसूण, टरबूज, खरबूज, गाजर,
जिलबी, चिलीम, गर्द, गर्दी, अबीर, गुलाल, सुरमा, दुकान,
रंग, नशीब, संगीत, गुलाब, तपास आदी. (मराठी व्युत्पत्ती कोष
पा. कुलकर्णी, हांचो संदर्भ घेवन).

हीं उश्णीं वायणां पावोवपाचो वावर भास आपापले परीन करता
तुमी घेतिल्ल्या प्रकल्पाक येस आंवडेतां.

— **प्रकाश रमाकांत व**

वजरी, सांखळी

# माजे आज्याक एक हती आशिल्ली

**मूळ मलयाळम : वायकम मुहम्मद बशीर**
**अणकार : आर. के. राव**

**[निमणी खिस्त]**

## ९.

## माजे हर्द्यांत पीडा

पामायक कितें जालें हें तिकाच कळना. मशीदाचे खतीबाक सांगून रा बापूयन एक दोर मंतरसून हाळो आनी तो तिजे गोवंटेक बांदलो. य एक मुसलियाराचे एक लान सूटकेसा वरी एक अंतरय तिजे जता. तिजांत वास करचें प्रेत उपरांतेय वचना! एक दीस आयीषान हें निसार अहम्मदान सांगल्लें जावन. तेन्ना कुञ्ञुपातुमायक व्हड रों. तीणे तें भारी श्रद्धापूर्वक आयकलें. पुण आयीषान सांगल्लें ग तिका खेळ करना अशें कुञ्ञुपातुमायक समझलें. तीणें म्हळें:

ायीषा!'

न म्हळें: खंयचोय सैतान दूरा वतलो; देवतय वतलें; मागीर प्रेताक ाक! तें गोवंटेक बांदून भोवल्या पुरो. भावाले त्या व्हड चामाचे ा. कितें हाडूं?'

मायन म्हळें: 'चोर बुद्दूस, नुतो बैस.'

का दुखय जालें.

न योग्य रूपान विचारलें:

कतें जालें?'

र्द्यांत पीडा!'

वरी न्हय. भरन येवन दामचे वरी. सबाव बैसून रडचाक दिसलें; ाकय. रडचे पाशीय ती पसंत करता हासचाक. व्हडान न्हय. रन हासचाक. तेन्ना खणस काडून रडचाकय दिसतलें. निसार देखतर तिजे गाल चोळो-मोळो जावपय हर्द्ये दाट जावन उसरमेटय सार अहम्मदाक संकटान 'माका कित्याक पळयता?' अशें हण आसा. पुण मागीर निसार अहम्मदान चोयलो ना जाल्यार? ी ना. तिका पळवुंक जाय अशें आसा. देखचाक योग्य थळार ावतली. 'हांव वाल्लींचें राकुड वेंचूंक रावची न्हय? अशें ती तली. कसलेंय कारण करन ती लागीचे घराक वतली. 'उजो' कारण आसा. अथवा 'मीट' न्हय जाल्यार आयीषा. ती कसलेंय ून गेल्यारीय योग्य प्रमाणी निसार अहम्मदाक देखप ना. एकच चांग करता न्हय जाल्यार झाडांक शिंपता. आंगण चांग करुक ? भरन भांगरा रंगाची रेंव घाल्या. ताजे भोवंतणी फुलां झाडं त. तें न्हय जाल्यार वाचप. 'इतलें चड वाचपाक आसा कितें?' चारतली.

स कुञ्ञुपातुमायन पळोवंचाक निसार अहम्मद एक रुका पोंदाक राम कुरसीचेर. व्होंटींत एक पुस्तकय आसा. साबाव पळ्ळा.

सुखाचे हुनसाणीन गळुंक लागलें. निसार अहम्मदाचे दोळे मळबार नयते रंगाचीं पावसा मोडां अस्तंते दिकार. उबून वचे सवण्यांचे लकचे तांबडे रंगाचें प्रतिबिंब पडता.

ंवसर जालो, ते दीसा ती धर्वी वस्त्रां न्हेसली. जायते दीस उपयोग करनातिल्ल्यान तो धवो चोगो शरीराक लागून रावलो. माथ्यार सण्ण बुरखो. तशें न्हेसून तयार जाल्या कित्याक? हें तिका कळना. आरसोंत तीणे तिकाच भो वेळ देकली. दोळ्या पातीयांक सण्ण एक निळबाण आसा. गालाचो काळो तीळ काजला तीळ्यावरी उज्वल आसा. निर्मल दृष्टीन ती तिका चोयली. ती हंसली. तिका रण्णें आयलें. ती हासली.

चेहरो साधारण रीतीर करन ती शेजाराक चमकली. हर्द्ये बरे रूपान धडकतालें.

निसार अहम्मदाची दिश्टी तिजेर जाली. संतोष रुपान एक चोवप!

तीणे उजो घेतलो. आयीषा अथवा तिजी आवय हांचे कडे उलोवंचाक कुञ्ञुपातुमाय रावलीना. घारार परतून येवंचे वाटेर निसार अहम्मदान उलो दिलो: 'ओय!'

तो उलो तिजे आत्मांतल्यान दुगलायलो. मुखार एक फुट सरी दवरुक जायनातिल्लें ती रावली. ती हूमेली. तिका भय दिसलें. अस्वस्थताय दिसली. तिका आनंद दिसलो. हे सर्वय विकार सयत तीणे पळयलें.

निसार अहम्मद उठावन गेलो.

'माका स्वल्प उजो जाय' अशें म्हणून उजा काड्डी घेतली. आनी एक सिगरेट लायलें.

'कुञ्ञुपातुमाय', निसार अहम्मदान म्हळें, 'आमची ती गिरबुजी आसा मू, तीणे माजे कडे येवन 'कुञ्ञुपातुमाय स्वस्थ न्हय?' अशें विचारलें. हांवें म्हळें: 'खंयचे की एक प्रेताक धावंडावचाक ती एक सूटकेस गोवंटेर लांबोवन भोवंता!'

'उजो दी!'

'कुञ्ञुपातुमाय.'

'ओ.'

'तुका कितें जालें?'

'माजे हर्द्यांत दूख.'

'ताका तें गोवंटेक बांदल्यार वतली की?'

'उजो दी.'

'तूं बरप शिकली ना.'

'माका शिकयले ना.'

'फायसून आयीषाकडे शिकोवंचाक सांग. सांगतली?'

'ती माका खेळयतली.'

'आयीषा तुका खेळयता जाल्यार हांव तिका दोन सास कुटके करन...'

'नाका तिका कांय करू नज. उजो दी.'

'तिजेकडे हांव सांगन. आयकलें?'

अशें तशें कशेंय तीणें उजो घेतलो. धावुंक जाय म्हण दिसलें. ती संत चमकून गेली. संसार एक नवे प्रकाशांत न्हावन रावलां. सगटांचीय चंदाय चड जाल्या वरी. तिका सगटाचेय लागी चड प्रेम. एक मुयेन तिका चाबचाक दूखीन तीणे मुयेक म्हळें:

'माका चाबचे सारखे तूं सगटांकय चाबचा नज. तीणे तिका चिमटून काडून सकल दवरली. तिका रात खूब मनोहर. आवय आनी बापूय निंदेवन

घोरेंतात. तरीय तिका नींद आयली ना. ती निसार अहम्मदाक आठोवन मंदगतीर हासली. संकट सांगलें. उश्याक कुट्टुको काळ्ळो. 'दूखलें?' तें प्रश्न सयत तिजे दोळे भरले. तुरंत हासलीय. तशें तशें ती नींदली. निसार अहम्मदाक सप्नांत देकलो. तीं दोगंय मेळ्न चलतात.

दुसरे दीसा दनपरां जेवण जावन आंगणांत रावले वेळार आयीषान हातां एक व्हड खूंट आनी खाख्यांत एक दोन पुस्तकांय घेवन येवन गौरव रुपान कुञ्ञुपातुमायक उलो दिलो. कित्याक, तिका कळ्ळें ना. चींचे पोन्दाक आपोवन व्हरन खूंटान आयीषान गोळाकार एक रेखा आंकली.

'सीधा मद्दें राव.' तीणे हुकूम दिली.

'कित्याक आयीषा?' अशें विचारून कुञ्ञुपातुमाय तांत चडून रावली.

'उजो हात नीट कर!' आयीषान दुसरीय हुकूम दिली.

'माका मारूक की?'

'नीट कर.'

कुञ्ञुपातुमायन हात नीट केलो. आयीषान ते हातांत एक पेनसिल आनी एक नोट बुक, आनी एक 'बाल पाठ' बुक हीं दवरन दिलीं.

'हांव आजसून गुरुनाथा आसा.' आयीषान म्हळें. कुञ्ञुपातुमाय हासली.

आयीषान म्हळें: 'हांव नेणचें एक रहस्यय मागेल्या शिष्याक आशचाक नज! सग खोलायेन सांग. ताजे उपरांत शिकवप! माजो भाउ म्हणचो तो महंत आनी तूं, दोगंय मेळ्न... कितें?'

'साबाव बैस, आयीषा?'

'खोलायेन सांगता कि मार घेवंका?'

चोर बुद्दूसाक हांव कतरून चार सास कुटको करतलीं. सांग.'

'वच गो!'

'सांग.'

'कितें की?'

'माजो भाउ आनी तूं – तुमचे मद्दें संबंध किंतें?

कुञ्ञुपातुमायक दुखावंचाक सारखे तीणे म्हळें: 'साबाव बैस गो.'

आयीषा स्वल्प वेळाक चुप बैसली. मागीर विचारलें: 'तुका नाच कळता?'

तें कितें म्हण तिका कळना. 'माका कळना', तीणे म्हळें.

कापणी काडप, वस्त्रां धूवप, रान्दप, चित्रां बरवप... हांत कांय कळता?

'साबाव बैस गो. माका कळना. तुका माका शिकयल्यार कितें?'

जाल्यार, आयक. दादल्यां वरी चोर बुद्दूस हे संसारांत दूसरे नात.

'साबाव बैस गो. तशें सांगचें नाका.'

कुञ्ञुपातुमायक आयषाची श्रद्धा घुवंडावन सोडचाक एक विशय मेळ्ळो. दोन तीन मूयो एक मेल्लेल्या मूसाक तणा उंचावेल्यान वोडून व्हरतात. कुञ्ञुपातुमायन म्हळें: आगो आतां 'षजरतुल मुन्तहा' रुकाचो एक लान पालो पळ्ळलो आसतलो. पळय!'

आयीषान म्हळें: 'दृढ विशया पासून आतां उलयतां. तुका बरप शिकुंक जाय?'

'शिकुंक जाय.'

'बरें. तरी विचारच्याक सम जाप सांग. माजे भावाचो परिचय केन्नासून?'

'माका बरप शिकय आयीषा!'

'तूं पयले माका पसंत करताली?'

'न्हय आयीषा.' कुञ्ञुपातुमायन म्हळें.

'कितें?' आयीषान आश्चर्यचकीत जावन विचारलें. 'माजेकडे न्हय?'

'न्हय.'

'तें सांग.'

'हांव न्हावंचाक आयल्लीं तुमचे बायचे कडे. तूंवें येवचें पयले. एक दीस दादलो सवणे बायल सवण्याक चोंचावन जीवनाशी करुक तयार जालो. तेन्ना बायल सवणें कालव्यांत पळ्ळें. ताका पळवंचाक वचाक हांवय कालव्यांत पळ्ळीं. माजो हात सीरन जायतें रगत आयलें. हांवें एदें रगत बायल[illegible] दिलें. तिजे पोटांत दोन अंडे आशिल्लें तेन्ना तुगेलो भाउ!'

'भाउ'.

'आयीषा, थांगा आशिल्लो. मागीर कालव्यांत देवन येवन मा[illegible] घाय बान्दलो. माका कालव्यांतसून उंचार चडयली. न्हावंचे वेळार [illegible] नज म्हण सांगलें.

'आनी सवणें?'

'तें उबून ताजे घराक गेलें.'

'ओ, हें न्हय की?' आयषान स्वयं म्हळें. 'हो, हें मू कुञ्ञु[illegible] केल्लें अजाप काम.'

'कितें आयीषा?'

'ओ काय ना!' आयीषान म्हळें. 'दादले म्हळ्ळेले चोर बुद्दूसां प[illegible]

'चुप बैस आयीषा! तशें सांग येत की?'

'आनी आतां माजी धूव माका मारूक लागतली. ताकाय माव[illegible] आसा म्हण दिसता. तेन्नाय आयीषा बीबी हसमुखी दृष्टि पडली म[illegible] सांगतलें!'

'हांव शिकोवचाक वता. ध्यान दी.'

आयीषान भूंयचेर 'ब' अक्षर बरयलें. 'श्रद्धा दवरन पळय. हे त[illegible] ते पुस्तकांत आसा पळय!' अशें सांगून ती तणाचे मैदानाचेर उदारी[illegible]

कुञ्ञुपातुमाय पुस्तकांत पुराय चोयली. देखुक येना. आखेर तीणे तें पु[illegible] भायरच सून शोधून घेतलें.

आयीषा उठायली.

'ताजें नांव 'ब'. ते अक्षराचे नांव कितें?

'ब.'

'ब' अक्षरान आरंबचें एक उतर सांग.'

'बयी.'

'बुद्दूस! चोर बुद्दूस. 'वषी' अशें सांगुक जाय. वषी.'

'तेन्ना तांत 'ब' आसा की?'

'ना'.

'पुण चिंतन करन सांग.'

'वयीतिनंडा.'

'वयुतिनंडा – अशें म्हण.'

कुञ्ञुपातुमाय तशें बरप शिकुंक लागली. रात दीस श्रम पावली. आ[illegible] बापूयकय तीणे ते जाणयले ना. आवयन देखल्यार सवतली म्हण[illegible] कळता. आवयन सट्ट करन प्रार्थना आरंबली! व्हड प्रार्थना. प्रार्थनाचे[illegible] सून उठावप ना. थंय बैसूनच घरचीं कायरीं सग शोधतलीं. कुञ्ञु[illegible] अडकलींतय निदेवंचे मांदरेरीय बैसून शिकुंक लागली. तिका केन्नाय[illegible] आसतलो. ती शेजार वतली. ती एक तरा संतोषांत आसा. एक दीस आ[illegible] आवयन कसले की एक सवण्या पासून विचारलें.

ती पुराय तांबडी जाली!

'तांबडी जाता देकलें?' आयीषान म्हळें. तेन्ना तिका रण्णें आयलें. अ[illegible] आवयन हासून कुञ्ञुपातुमायचे माथें परसलें.

'तूंवे केस वोळवप ना की?' आयीषाचे आवयन विचारलें. कुञ्ञुपा[illegible] म्हळें: 'आवय सांगता कि तशें केस वळयल्यार काफ्रीची जातली ख[illegible]

आयीषाची आवय हासली. तीणे एक दांतोणी काडून कुञ्ञुपातुमायचे मद्दें मागो काडून वोळयलो. तिजे तोण्ड उजळ जालें. आयीषाचे अ[illegible] तिजो केस चंदायेन बांदलो.

आयीषान मोगरे फुलां वेंचून हाडून कुञ्ञुपातुमायचे केसांत खोयलीं.

'माथ्यांत इबलीस चढतलें की?'

कुञ्ञुपातुमायन विचारलें.

न ज्ण्याक विचार.'
... थीषा.'
...जे आनी संतोषान घराक परतली.
..., रांडूळा हें दाकयलां? तुजे माथ्यार कितें?' कुञ्ञुपातुमाय
...न आवयन उठावन तिजो केस धरन निसरावन फुलां सगं चिरडून
...द
...ी रचे वरी तूंवे करका नाका. ते चेडुवाचो आजो पाड्या पाडीचो
आलो. समझलें? तूं आनमक्काराचे भांगरा धूवेची अपुरबाये धूव!
...ऊक एक हती आशिल्ली! व्हड एक सूळ्या हती!'
...ाय कांय उलयली ना. त्या दिसाच ती आनी एक खबर जाण
...ती व्हारडीक बेगीन जातली. बापूय चेड्याक शोधता.
...स्थ जाली. तिजे तोण्डांत उदक ना जालें. तिजो चेहरो निस्तेज
...तशें रावली.
...य म्हळें: माजी अनुमती विना तूंवें हे सीमे भायर वचाक नज.
... न आनी दोळे धांपले. 'या अल्लाह' म्हण ती बेशुद्ध पळ्ळी.
...ना!' माजे अपुरबाये धूवेक कितें जालें?'
...य क़दम उठायली. बापूय आयलो. उदक फाफडप! वारें घालप!
... दोळ. कुञ्ञुपातुमायन दोळे विसकळायले. उठावन बैसली. आवयक
... टुकटुकी चोयली. तिका विचारन नातिल्लें, तिजो अभिप्राय
...नातिल्लें तिका एक घोवाक तयार केला.'
...तुमाय!' बापूयन उलो दिलो.
...चु रावली. आवयन विचारलें: 'माजे भांगरा धुवेक कितें जालें?'
...य चुप रावली.
...ल्ह! कोणेय सेतान लागलो की?' आवयन म्हळें.
...ुमाय व्हडान हासली; निरंतर हासली. मागीर ती रडली; निरंतर
...ती रडली. व्हड रात जाली. संसार पुराय निंदलो. जाल्यारीय
...रावयलें ना.
...च जन्नलांतल्यान चोयली. भयानक काळे आठ पायांच्याचे जाळ्यांत
...ळ्ळेल्या प्रकाशाच्यो केणीयो की हीं कोटी कोटी नक्षत्रां?

## १०.

## संपनांचो काळ

...ता. रात जाता. कुञ्ञुपातुमायक स्पष्ट कांय कळना. जेवण खाण
... सग एक सपना वरी. कोणकी सग येतात. कितेंकी सग विचारतात.
...आसा की निदल्या? आयीषान की कांय विचारलें. परतून परतून
...ती ताका जाप दिताली. मागीरीय तोच प्रश्न. तीणे ताका हर्दें दूखून
...ळें:
...षा, माका व्हारडीक करुक वतात!'
... दोळ्यांसून दुखां. दुखांचो समुंदर! ती तांत ऊंच पळ्ळ्या. काळे
...ावले आखरचे मागार सून तांबडो उजो भगभगता. तें सूर्य उदय.
...ळे रळ्ळे नात. सवणीं किळबिळनात. मनीश उलयतात. आवय
...य. आनी कोणकी आसा. तो सूर्य उदय न्हय! आंगणांतले फोण्डांत
...ाळे. ताजे भोवंतणी मल्लटीयांत लान वातीयो जळतात.
...यक एक फळ्यार ताजे लागी बैसयल्या. लागीच हातांत बेतय
...तरणाटोय आसा.
...नाक 'उवाळन दूरा सोडचो' मुसलियार आसा.
...ुमायक जिवीतांत पयलेच राग आयलो. भयंकर राग, तिका एक

हती वरी गर्जक जाय अशें दिसलें. एक वागा वरी गर्जक जाय म्हण दिसलें. उडकी मारन उठावन सगटांकय चाबून पिसडचें!

ती तशें बैसली. बरो परमळ; मुसलियार तिजे माथ्याक उवाळून कितेंकी सग उज्यांत घालता. तांत धूप आनी गांद आसा. मुसलियार 'सुह', 'फल', 'हल' अशें सग 'मन्तरसता'. सेटनाक उच्छेद करता. देवत, भूत, प्रेत अशें भिन्न भिन्न सेटनांक उच्छेद केल्ल्या नावं पाविल्लें बेत तें.

ताजान तिका मारतलो. केसा शेण्डयाक धरन तिजे फाटीर आनी जांगेर सग मारतलो! तशें सेतानाक उच्छेद करतात.

ताजान करतनाय सेटन उच्छेद जायना जाल्यार मिरयासांग वाटून दोळ्यां सुयतलो! उजा इंगाळो हाता ताळव्यार दवरतलो. तेन्ना 'शर' अशें साली करपतली. माथ्या कापूस सून पावला ताळवो मेरेन दुकतलें! ओ – दुको!. आवयनय बापूयनय दुकोवंचाक अनुमती दिल्या.

'बापूय माका मारनाका म्हण सांग.'

मुसलियारान कांय म्हळेंना. बापूयनय कांय म्हळेंना. आवयनय काय म्हळेंना.

'आयीषा, माका मारचाक वता म्हण सांग! तशें तिजे मनांत म्हळें, कोणाक सांगचाक आयीषाकडेय म्हणता?'

'कोण, सांग?' मुसलियारान हुकूम दिली. 'हिजांत बैसला कोण म्हण सांग.'

'वास करता जाल्यार कोण म्हण सांगन!'

'कोणेय आसा?' मुसलियारान परतून विचारलें. तीसरे फांता विचारलें बेतान. मागीर तिका व्हड उगडास ना. मुसलियारान धा बारा पेट मारले. ती रडली. व्होडान बोब घाली. बेत उपून घेवन तीणे तें मोडलें. तीणें तें उज्यांत घालें. खंयीय धावन वचाक दिसलें. ती धांवली ना. जळचे उज्या लागसार निसार अहम्मद रावला.

निसार अहम्मदान तिका व्होंटीत काळ्ळी? कि ती निसार मुहम्मदाचे लागी धावन गेल्ली?

निसार अहम्मदान तिका तेंको दीवन काळ्ळी आनी जगलेर येवन घरां भितर मांदरेर निंदायली. मागीर दोळे उकते करचाक चांग दीस.

मांदरे लागी आयीषा बैसल्या. आयीषाची आवयय आसा.

कुञ्ञुपातुमायचे आवयन कितेंकी वाटून हाडून तिजे निडळार लायलें. ताका चांग शीतळकाय आसा. तिजे नाकांतल्यान भायर येवंचे वार्याक चांग हुनसाण आसा. उजो की?

तिजो बापूय ते कूडांत आयलो. आयीषा आनी तिजी आवय उठावन दूरा गेली. बापूयन विचारलें.

'धूवे पेज जाय?'

'कांय नाका; भूखय तानय ना.'

'माजे धूवेन कांय खावन कितलें दीस जाले की?' बापूय दुखान म्हणता. ओ... कित्याक दुख करुक जाय? ती मरचाक वता. वारें मारूंक लागलें... पालो आतां खाला पडतलो? सत्याचें वारें मारता. पाले उबतात. रुक एकमेकाक मेळतात. मरणाचें वारें जावयेत. मरणाचो दूत आयलो की? प्रपंचाचें अंत जावंचाक वता. इस्राफील देवदूत तागेलें 'सूर' नावांची पिरलुक वाजुक लागला जावयेत. आखेरचो दीस लागी पावला. रुक मूळ सयत सडळून पडून डोंगर हालून गरगडवन पुडी जाले... भू मण्डळ शून्य जावंचाक वता की?

पावस पडता. नवे रेवेंची वासणा. जनां संभाषण करन हासून वतात. दीस. घोणीये रण्णे आयकुक येता. तिका देकुक जायना. तरीय ती मळबार पाक विसकळावन हालोव नातिल्लें उबता. कूडांत रातीय न्हय दिसय न्हय. तिका हालुक जायना. सर्वांग दूखता. कोण की तिका कातरन कचोल करचे वरी. धा सास लान कुटके करन दवरता. सवण्यांक पातलावन घालचे खातीर

जावयेत. सवर्णी तशें चोंचावन गीळन उबून वतलीं. मागीर...?

'कुञ्जुपातुमाय !' कोणकी उलो दिता. कोणकी तें ? तीणे दोळे विस्कळायले. तिगेलें हदें लासलें. निसार अहम्मदाचो बापूय ! कूडांत येवन रावला. तांणी म्हळें : 'हांत वारेंय उजवाडय प्रवेश करपाक जाय. तें जनेर्ल बंद करन घाल्यां कित्याक ?'

तांणी जनेर्ल उकतायलें. वारें आनी उजवाड भितर प्रवेश करता. उजवाडाक कितलो प्रकाश !

कुञ्जुपातुमाय ! तांणी मागीरीय उलो दिलो. 'ओ' म्हण तीणे जाप दिली. पुण आवाज व्हडान जालो कि ना ? तो जगलेर देवन बापूयकडे कितेंकी सांगता. कितेंकी तें ? जायना. दोळे विसकळावन तशें पडचाक जायना. जाग बैस पाशीय चांग नींद आसा. नींद काळो सागर आसा. ती तांत गळन एक जाता. तेंवय जायना. उजवाड ! खर्यींय एक धरचाक जाय. अवलंबन नातिल्लें जीयुंक साध्य न्हय. ती एक रूक आसा. भूंयचेर सीधा रावला. केस सग तार्जी मूळां आसात. हात पाय सग रुकाचे खांदे आसात. खूब पाले आनी फुलां जावचाक आरंभल्यांत. दोग सवर्णी घोंटेर करुक वतात. तीं कसलीं सवर्णी ?

'कुञ्जुपातुमाय !' कोणकी तिका घरन हालवन उलो दिता. कोणकी तें ? खंयसून की फूडे आयकिल्लो आवाज. आळसायेन तीणे दोळे उकते केले. कोणकी तें ? ओ – निसार अहम्मद !

'कुञ्जुपातुमाय !' निसार अहम्मदान उलो दिलो. आनी म्हळें : 'तूं उठावन बैस आनी हें पी. कडू आसा. तरीय गोडसाण आसा म्हण आठय. रुची कळचें नाका.

ओखद नाका म्हण म्हणुंक जाय अशें तिका दिसलें. ताजे फूडे निसार अहम्मदान तिका सेंको दीवन उठकारवन बैसयली. धवे फोंडूळे पिंगण्यांत कसलोकी काळ रोस तिजे करान पीवयलो. मागीर कितेंकी सग म्हळें. ती ताका जाप सांगुक तयार जावंचाक निसार अहम्मदाक देकलो ना. आवय सोपूर ओखा पेज तिजे करान पीवयता. आवयन विचारलें :

'तुका आयीषाचे आवयन केस बांदले वरी केस बांदुक जाय ?'

कुञ्जुपातुमायन म्हळें : 'हांव मरचाक वतां.' आवयन म्हळें : 'माजे अपुरबाये धूवे, तशें सांगचाक नज. तुजे व्हारडीकेची कायरीं सग ठारावन जालीं.'

कुञ्जुपातुमायन म्हळें : 'माका आतां व्हारडीक नोका. तें आयकून आयीषा हासून आयली. तीणे विचारलें :

'ओखदाक गोडसाण आशिल्ली की ?'

'वच आयीषा !'

'चोर बुद्दूसाक एकलान ओखद दिल्यार मात्र पितली !'

'साबाव बैस आयीषा !' ती तशें पळ्ळी. हर्यांत म्होव. ती पुराय गोडसाणी रूप जाली. तिका रुची जाली. भूकय तानय जाली. कोणाचोय मदत नातिल्लें उठावन बैसयेत. ल्हवू चलचाकय जाता. तशें आसतना आयीषान म्हळें :

'चोर बुद्दूसाक कोणाचान व्हारडीक करोवंचाक वता, कळता की ?'

'सबाव बैस आयीषा !'

'चोय ! कोण, कळता की ?'

## ११.

## नवी पिळगी उलयता

कुञ्जुपातुमायक निसार अहम्मदान व्हारडीक केल्ली एक राती. ते दिसा चार वरां लागी एक मनोरंजक घडणी घडली.

व्हारडीक चलोवंचाक मशीदींतले खतीबाक आमंत्रण दिवंचाक बापूय गेला. गावंचे चडान चड घरांकडेय व्हारडीके कायरीं जाणयलीं जाल्यारीय कोणाय आमंत्रण दिलें ना. जेवण-खाण जावो उत्सव जावो कांय नाशिल्लें. का नाका म्हण निसार अहम्मदाचे आवयन-बापूयन सांगल्लें. स्पर्धा रुपान व जेवणां चलोवन दाम व्यर्थ खर्चून दीवाळी न्हालेलीं मुस्लीम कुटुंबा स खंयीय आसात. तें उगडास करचे बरें... पांच स जाणाक तूपाशीत ता करतालीं. नवे चेडुवाक नवी न्हेस्वणय तांणीच घेतलीं आशिल्लीं. किते सग म्हण कुञ्जुपातुमायक कळना आशिल्लें. न्हावन-धूवन थंय येवंचा आयीषान म्हळें. न्हाण जावंचाक आयीषा येवन तिका घेवन गेली.

पेळतांत गेल्ली कुञ्जुपातुमाय न्हय भायर आयल्ली. ती गागरो न्हेसल बोडीस घालेली. बळौस घालेलें. पाचवी साडी न्हेसली. केस चंदायेन बा फुलय माळे आशिल्लें. साडीयेचे वरलान माथें धांपिलें आशिल्लें. ताजे भा तीणे व्हाण्णो घालेल्यो आशिल्ल्यो. एकशें फान्तां कूडांत आळ्तां पे चमकयली... चमकण शिकोवन कुञ्जुपातुमायक घरकडे सोडली.

निसार अहम्मदान म्हळें : 'बावगचाक नज. सीधा दीग जावन, धै चमकून वच.'

तशें कुञ्जुपातुमाय घराक आयली.

ती समग्र जळ्ळी. तो काळो तीळ चकमकलो. तें अजाप दृश्य देखू वाटेर खूब चेरडूवां मेळ्ळीं आशिल्लीं. आवय खडावांचेर आंगणांत रावल एक लान गोंदळा वरी तीणे देकलो. कितेंकी सग खबरां जातात. तीणे क स्पश्ट आयकलें ना.

आवयन चेरडूवांक विचारलें : 'कितें गो !'

'चेरडूवां म्हळेलीं कुञ्जुपातुमायो, कुञ्जुताचुम्मामायो दासीयो – हाणी म्ह

'कुळूकुळू !'

आवयन नवी पिळगीकडे विचारलें : 'तांणी कितें सांगलें ?'

चेरडुवांनी म्हळें : 'लुल्लूलू !'

आवयक राग आयलो. आवयन म्हळें : 'तुमकां काळो सोरोप चाबता

'मेम्मम्मे !'

'डुकरानो.'

'पेप्पपे !'

आवयन म्हळें : 'हांव कांडण काडून मारतलीं !' कुञ्जुपातुमायन दूर म्हळें. 'आवय नुतो बैस. आवयन कांय म्हळ्यार तांचे बापूय झगड येतले.'

'येवो गो !' आवयन व्हडान गांवसग आयकचे वरी म्हळें, 'तुका ते एक पळवोत ! आनमक्काराचे भांगराचे धूवेचीं अपुरबायेची धूवेक ते एक पळवोत ! तुजे आज्याक एक हती आशिल्ली. व्हड सूळ्यांची एक ह

'ती मूये हती आशिल्ली', पिणसो व्हावंचे खोरज लागले हाताचे हात दीग एक गुलामान म्हळें : 'मूये हाती ! मूये हाती !'

कुञ्जुपातुमायक सोसचाक जाता ? महाप्रतापाचें इतिहासाचें माळीये म पुडी जालां ! शूरवीर पराक्रमी आशिल्ले ठेठ आनमक्कार सायबाची भ आनी चार काफ्रीयांक जीवनाशीं मारलेली ती व्हड सूळ्यांची हती... आंगण वण्टींचे देगेर रेवें धूळींत गोळफोंडांचे मद्दें पूरन पळेल्या काळे अंडे वरी मूये हती आशिल्ली म्हण !

'अळ्ळाहे !' कुञ्जुपातुमायन हर्यार मारन मागलें. 'गुरूंगेलो अनुग्रह ना हांचे वरी आशिल्ल्याचे लोकटे उसळून दूरा घाल !'

अजाप म्हणया. चेरडूवांचें लोकटे उसळे ना. दुगलायलो उज़ो ना. काळे सर्पान चाबले ना. कांय घडलेंना.

ते सग मेळन व्हडान हासले, आनी म्हळें : 'आनमक्काराची व्हड सू हती... मूये हती आशिल्ली, मूये हती.'

कुञ्जुताचुमायक माथें घुंवता दिसलें. श्वासोच्छ्वास करचाक कठिन खीण भितर जीण पुराय तिजे मुखावेल्यान गेलें. सर्वय प्रताप... दोनी

बर ती सकल बैसली.

तुग्य आवयचे लागी आयली. चेरडूवां लागी विचारलें: 'कितें ?

नी म्हळें: 'ञुळू, ञुळू!'

...'

...'

...ने'

नी म्हळें: 'मूये हती! मूये हती!'

...ये हती!' कुञुपातुमायक कांय समझले ना. तीणे आठयलें: ...ढां मूये हतीक धरन आवयचे कानांत घाली आसतली म्हण. ...कडे बैसून विचारलें:

'कितें गे आवय?'

आवयन कांय म्हळें ना. कितें सांगचाक? पोरणो इतिहास सग लासून गोबोर जालो. धूळ जालो...! आनी कित्याक जीयुंक जाय?

कुञुपातुमायन परतून विचारलें. तीणे परमसुन्दरी पातुमायक पळयली. योग्यवंत निसार अहम्मदाक उगडास केलो. झकझकीत भविष्य काळांत इश्वरानुग्रहान प्रवेश केला मात्र. यजमान 'रबुल आलमीनाया' सग मंगळ करतलो. इतिहास, इतिहासच... आवयन आखेर दोळ्यां दुखां काडून गदगद आवाजान कुञुपातुमायंचे कडे म्हळें:

'तुज्या आज्याची... व्हड सूळ्यांची हती... मूयेची हती आशिल्ली म्हण! मूये हती!'

* * *

# सांस्कृतीक आंवाटा भायलो उश्णो वेव्हार

**माधवी सरदेसाय**

उश्णीं उतरां भाशेंत सांस्कृतीक नविदादी घेवन येतात. भारतीय भासांतल्यान इंग्लीशींत गेल्लीं yoga, sari, papad सारकेलीं उतरां वा, इंग्लीशींतल्यान भारतीय भासांनी आयिल्लीं **जॉगिंग, शर्ट, केक** सारकेलीं उतरां हे तरेचीं – नवे भाशेंत कितें तरी नवें घेवन गेल्लीं उतरां. उतरांच्या असले तरेच्या दिवपा-घेवपाक लेनर्ड ब्लूमफिल्ड बी भाशे विज्ञानीक संस्कृतायांच्या दिवपा-घेवपाचो वांटो लेखतात. तांच्या मत्तान हो 'सांस्कृतीक उश्णो वेव्हार' – हें Cultural Borrowing.

क्रिस्तांव धर्म गोंयांत पुतुगेजां वांगडा आयलो. देखून क्रिस्तांव धर्मा संबंदिची चडशी उतरावळ कोंकणीन पुतुगिजी कडल्यान घेतली. देखीक – **शेमांव, मीस, लादीन, ऑरेसांव, कुमसार, साक्रामेंत, क्रीज्म, रोजार, बेसांव, तेर्स, नातलां, पास्कां, फेस्त...** ह्याच नेमान क्रिस्तांव धर्मा कडेन जोडिल्लीं चडशीं उतरां इंग्लीशींत लातीन भाशे कडल्यान आयलीं. देखी : church, minister, angel, devil, apostle, bishop, priest, monk, nun, shrine, cowl, mass[1]... हिंदू धर्मा कडेन संबंद आशिल्लीं **यज्ञ, प्रसाद, पूजा, उपनयन, अभिशेक, मंत्र, स्तोत्र** बी उतरां अशींच संस्कृत भाशे कडल्यान तमीळ, मलयाळम, कन्नड बी सगळ्या द्रविडी भासांनी पावलीं.

सांस्कृतीक दिवप-घेवप सगळ्या भासां भितर चलता. कोंकणीन पुतुगिजी कडल्यान सांस्कृतीक उतरावळ घेतल्या तशी पुतुगिजीन लेगीत कोंकणी कडल्यान हे तरेचीं उतरां घेतल्यांत आसतलीं, तांचे प्रमाण उणें आसलें जाल्यारूय[2]. खंयचेय दुसरे भाशे कडल्यान कितेंच घेवंक नाशिल्ली भास हे भुंयेर एकूय मेळचिना. सांस्कृतीक घेवपांतल्यान भास वाडटा, गिरेस्त जाता.

पूण उतरां कडेन नवें कांय दिवपा सारकें नासता तेन्नाय तीं एके भाशेंतल्यान दुसरे भाशेंत पावतात. **जनेल, दुयेंस, घोस्त, बुराक, मॅर्द...** सारकेलीं पुतुगिजींतल्यान कोंकणींत आयिल्लीं उतरां हे तरेचीं. ह्या उतरांनी कोंकणींत कसली नवी भर घाली ? पुतुगिज गोंयांत येवचे पयलीं गोंयच्या घरांक **जनेलां** नासतालीं ?[3] तेन्ना कोंकणी मनशांक **दुयेंसां** जायनाशिल्लीं ? तांकां **घोस्त** नाशिल्ले ?...

अशें म्हणूं नज. तरी कोंकणीन पुतुगिजी कडल्यान हीं आनी असलीं कितलिंशीं उतरां घेतलीं. तांचे कडेन नवें कांय नासतनाय घेतलीं. कोंकणीच्या क्रिस्तांव बोलयांनी नात्याचे उतरावळींत लेगीत पुतुगिज उतरां आयलीं. देखी : **पाय, मांय, इरमांव, तितीव, तितीन, कुन्याद**[4]...

लेनर्ड ब्लूमफिल्ड बी भाशे विज्ञानीक असले तरेच्या उश्ण्या वेव्हाराक भोव लागिंच्या नात्याचो उश्णो वेव्हार – Intimate Borrowing म्हणटात. हे तरेच्या उश्ण्या वेव्हारांत एके भाशेचीं खंयचींय, कसलींय उतरां दुसरे भाशे भितर रिगतात. असलो उश्णो वेव्हार एकतर्फी आसता. कोंकणी-पुतुगिज भासांच्या नात्यांत फकत पुर्तुगेजूच कोंकणी भितर अशी खंयूय, कशीय पाविल्ली पळोवंक मेळटली. कोंकणीक पुतुगिजी भितर रिगतली जाल्यार कितें तरी सांस्कृतीक नवेपण घेवनूच वचचें पडटा. कोंकणीच्या हिंदू बोलयांचे तुळेन क्रिस्तांव बोलयांनी पुतुगिज उतरावळ अदीक मेळटा. हाचे फाटल्यान धार्मीक आनी सांस्कृतीक कारणां दाखोवं येतात. पूण हिंदू बोलयांनीय पुतुगिजी कडल्यान आयिल्ली उतरावळ उणी ना. आनी हे उतरावळींत सांस्कृतीक आंवाटा भायलीं उतरां कितलिंशीं आसात.

एकेच भुंयेर वावुरपी दोन भासां मजगतीं अधिकाराचें, प्रतिष्ठेचें वेगळेपण आसता तेन्ना असले तरेच्या – Intimate उश्ण्या वेव्हाराक वाव मेळटा. सामान्यतायेन परकी राजवटी खाला हें घडटा. राज्य करतल्यांची 'भायली' आनी आंकड्यानूय थोड्याच लोकांची भास आसून ले राजकी-सामाजीक अधिकारांक लागून समाजांत तिका अदीक प्रतिश्ठा मे भासां भितर ती 'वयली' भास जाता. आनी, थळावी भास चड लो भास आसून लेगीत राजकी-सामाजीक अधिकार नाशिल्ल्यान ती 'सक भास जावन जियेता. 'वयली' भास 'सकयले' भाशे कडल्यान 'घेवंक तितलेंच घेता. 'सकयली' भास मात 'वयले' भाशे कडल्यान 'घेवंक तितलेंय, तेंय बी 'गरज नासतना'य घेता. पुतुगिजींतली कोंकणी उत आनी कोंकणींतली पुतुगिज उतरावळ हांची तुळा करून पळेली जाल्यार त आमकां हें वेगळेपण दिश्टी पडटलें.

उर्दू भाशेचो जल्मूच अशे तरेच्या उश्ण्या वेव्हारांतल्यान जाला. दिल्ल मुसलमानी शेक सुरू जालो तेन्ना तांची राजकारभाराची भास फ आशिल्ली. हेच मुस्तींत दिल्ली-मीरठच्या आनी लागसारच्य वा घोळणुकेंत आशिल्ले प्रतिश्ठितांचे जिबेवेले 'खडी-बोली'त फारसी अरबी उतरां भरसून उर्दू तयार जाली. "उर्दू' म्हळ्यार सैन्य वा ल हें मुळचें तुर्की उतर. सुरवेच्या काळांत उर्दूक 'जबान-ए-उर्दू' म्हळ्यार सै वा लश्कराची बोली/भास म्हणटाले. ही भास लश्करांत पयलीं घोळ आयली. उपरांत शाहजहांचे कारकिर्दींत तिका उर्दू नांव पडलें म्हण उपरान्त उर्दूंत साहित्यनिर्मणी जावंक लागली. सुरवेचे उर्दू साहित्यकार

---

१. Bloomfield, L. 1933. Language : 461.

२. आमी फक्त कोंकणी वयल्या पुतुगिज प्रभावाचेरूच उलयतात. पुतुगिज भ कोंकणीचो कितेंय प्रभाव पडला आसत जाल्यार ताचोय सोद घेवपाच जावंक जाय.

३. आसतलीं... पूण तेन्ना तांकां कितें म्हणटाले काय ? 'खिडकी' ? सोदूंक

४. हे नात्याचे उतरावळिचोय खोलायेन अभ्यास जावंक जाय. क्रिस्तांव बोल कांय वेंचीक नात्याचीं उतरां पुतुगिजींतल्यान आयल्यांत. कांय पुतु प्रभावान नवीं घडल्यांत. हांगा **सासूमांय (सास्मांय), सासूपाय** (सास **शामाय, शापाय** सारकेल्या उतरांची देख घेवं येत. **आवय** आनी **बापू** क्रिस्तांव कोंकणींत **मांय** आनी **पाय** हीं उतरां आयलीं आनी ह्याच उ पालवान **सासूमांय, सासूपाय; शामांय, शापाय** हीं उतरां घडलीं. स उतरांतली **मांय, मांय, माव** हे जोडयेंतलीं न्हय. तीं **मांय, पाय** हे जोड क्रिस्तांव कोंकणींतली नात्याची उतरावळ आनी हिन्दू कोंकणींतली न उतरावळ हांची तुळा करुनूय अभ्यास जावंक जाय. पुतुगिजिच्या प्र क्रिस्तांव समाजान भाशेंतली नात्याची सुवात – space नवे भाशेन हाडल्या, काय **मांय, पाय, तितीव, तितीन...** हे फकत वयलेचाराचे हीं फकत बदलिल्लीं 'लेबलां' ताचोय थाव घेवपाचो यत्न जावंक जाय क्रिस्तांव बोलयांनी **शामांय, शापाय** हीं उतरां फक्त बापायवटेनचे आज्या खातीर वापरतात. आवय वटेनचे आजये, आज्या खातीर तां **मामांय, पापाय** हीं उतरां घोळटात. **दादी, दादा; नानी, नाना** सार फरक कोंकणींत कसो आयलो काय ? पुतुगिजींत आजये खातीर **आव्हां** आनी आज्या खातीर **आव्हो** (avô) हीं दोनूच उतरां घोळटात. देख क्रिस्तांव कोंकणींतलें वेगळेपण पुतुगिजीक लागून आयलां अशें मानपाक ना.

५. भारतीय संस्कृतिकोश, संपा. पं. महादेवशीस्त्री जोशी, खंड १, १९६

सलमान आशिल्ले. तांणी उर्दू खातीर फारसी-अरबी लिपी णाली. साहित्यीक उर्दूक उपरान्त राजाश्रयूय मेळ्ळो. दिल्ली दरबारांत त्व मेळ्ळें. मुसलमानी राजवटींत उर्दूच भारताची मुखेल सांस्कृतीक वंक पावली. उर्दू उतरावळिचेर फारसी अरबी प्रभाव आकांताचो लं तरी उर्दू भारतांतूच जल्माक आयिल्ली हिन्दी वरीच एक ती-आर्य भास.[६]

कभाशीक समाजांतलींच कांय कुटुंबां वा म्हणुंया एक पंगड आपणालो हार सोडून परकी भाशीक वाटारांत राबितो करून रावता तेन्नाय हे भो- भोव लार्गिंच्या नात्याच्या उश्ण्या वेव्हाराक वाव मेळटा. इतिहासीक णां लागून कोंकणी मनीस तुळू-कन्नड, मलयाळम वाटारांनी वसणूक ावले तेन्ना तांचे कोंकणींत तुळू-कन्नड, मलयाळम उतरांक मेकळी मेळी. कोंकणीन तुळू-कन्नड, मलयाळम भासांक कितेंय दिलां आसत या तें सांस्कृतीक उतरावळिच्या मळावयलेंच कितेंय आसतलें. न्नड, मलयाळम वाटारांनी समाजीक, राजकी अधिकाराक लागून न्नड, मलयाळम 'वयल्यो' भासो जातात आनी कोंकणी थंय 'सकयली' ता.[७] अमेरिकेंत राबितो करून राविल्ल्या जर्मन, इटालियन, चिनी शीक समाजां भितरूय अशेंच घडलां.[८] इंग्लीशी कडल्यान तांगेल्या ं मेळत तीं उतरां घेतल्यांत; इंग्लीशीन मात तांचे कडल्यान गरजेक त्व उतरां घेतल्यांत. देखीक, hamburger, delicatessen सारकेलीं तीक' उतरां जर्मन भाशेंतल्यान अमेरिकन इंग्लीश भाशेंत गेल्यांत. सले असले तरेच्या baseball, alderman सारकेल्या 'सांस्कृतीक' गडा policeman, conductor, road, saloon, coat, bottle, change सारकेलीं कितलिशीं सांस्कृतीक आंवाटा भायलींय उतरां तल्यान अमेरिकेंत स्थायीक जाल्ल्या जर्मनांचे जर्मन भाशेंत तांत.

मा अशी 'मर्यादि सोडून' दुसरे भाशे कडल्यान उतरां उश्णीं कित्याक हाची जाप आमकां सामाजीक मानसशास्त्र दितलें. ज्या लोकांक त वा आमच्या मनांत मान, प्रतिश्ठा आसता तांचें आमी सगळ्या अनुकरण करतात. Intimate उश्णो वेव्हार म्हळ्यार एके नदरेन अनुकरणूच. ह्या अनुकरणा वरवीं आमी प्रतिश्ठा जोडूंक सोदतात. त आवय-बापायक उलो मारपाचीं नवीं नवीं उतरां कशीं येत रावल्यांत ल्यार कोंकणी समाजांत खंयच्या खंयच्या भासांक प्रतिश्ठा मेळत गेल्या शीं अदमास काडूं येता. हिंदू समाजांतले कोंकणींत घोळपी हालिंच्या लीं हीं उतरां पळेयात: **आई–बाबा** (मराठी), **माँ** (हिन्दी. **पिताजी** त आयलें ना), **मामा–पापा** (पुर्तुगीज), **मम्मा–पप्पा** (मूळ इंग्लीश रीं 'अपभ्रंश' रुपां) आनी **मम्मी–डॅडी** (इंग्लीश). हो **मम्मा–पप्पा** आनी **डॅडी** चो काळ, अशेंय म्हणूं येता. आवय-बापायक उलो मारपाची ली' रीत कितें काय?

यले' भाशेचीं उतरां 'कितल्या वेगान' 'सकयले' भाशेंत रिगूंक लागतात य जाणकारांनी अभ्यास केला. परकी राजवटिचे फाटभुंयेर दोन भासांचो बूब लार्गिंचो संबंद येता तेन्ना, जायते फावटीं, राज्यकर्त्यांचो आंकडोच भाशेचीं उतरां 'सकयले' भाशेंत कितले बेगीन वा उसरान येवंक लीं तें थारायता. राज्यकर्त्यांचो आंकडो सामको ल्हान आसता तेन्ना भाशेचो थळावे भाशेचेर प्रभाव पडपाक अदीक वेळ वता. दुसरें – ली' भास उलोवपी समाजाचो परकी राजवट नाशिल्ल्या समभाशीक कडेन संबंद उरलो जाल्यारूय तांचे भाशेंत 'वयले' भाशेंतलीं उतरां चड वेळ वता. तिसरें – 'सकयली' भास उलोवपी समाजा भितर तीक मोठेपणा'ची भावना आसता तेन्नाय तांचे भाशेंत 'वयले' भाशेचीं सोंपेपणान रीग मेळोवंक पावनात. देखीक, अमेरिकेंत राबितो करून ल्या फ्रेंच भाशीक कुटुंबांतल्या वांगड्यांचे जिबेर इंग्लीश उतरां मेळत तशीं भरसूंक नाशिल्ली फ्रेंच पिळग्यां संकिंनी घोळ्ळी जाल्यार अजाप न्हय.[९] हाचे उरफाटें म्हणूं येत – सकयली भास उलोवपी लोकां भितर सांस्कृतीक हीणपणाची भावना आसता तेन्ना तांचे भाशेंत वयले भाशेचीं उतरां रोखडींच रीग मेळयतात. देखीक, मुंबय राबितो करून आशिल्लो कोंकणी मनीस[१०] रोखडोच मराठी उतरांनी भरिल्ली कोंकणी उलोवंक लागता. मराठीक लागून तागेले कोंकणीक प्रतिश्ठा येता. गोंयांत राबितो करून आशिल्ल्या मराठी मनशाचे जिबेर मात कोंकणी उतरां हे भाशेन रीग मेळोवंक पावनात. कोंकणीक लागून तागेले मराठीची प्रतिश्ठा वाडना; आनी, मराठी मनीस आपणाक कोंकणी मनशा परस वयल्या पांवड्याचो लेखता, देखून.

ह्याच कारणांक लागून ल्हवू ल्हवू करून दोनां भितरली एक भास वापरांतली ना जावनूय वचूं येता. देखीक, अमेरिकेंत स्थायीक जाल्ल्या हेर भाशीक लोकांचे जिबेवयल्यान दोन-एक पिळग्यां भितर तांगेल्यो मुळच्यो भासो ना जावन वतात आनी तांची सुवात इंग्लीश घेता. मुंबय रावपी गोंयकार कोंकणी (हिंदू) मनशाचे जिबे वयली कोंकणी एक दोन पिळग्यां भितर वता आनी थंय मराठी घोळूंक लागता. गोंयांत रावपी मराठी मनीस मात अशे सोंपेपणीं कोंकणी जायनात.

वयली भास परकी राज्यकर्त्यांची भास आसता तेन्नाय केन्ना केन्ना तिच्या प्रभावान थळावी भास/थळाव्यो भासो ना जावन वता/वतात. ख्रिस्ती शतमानाच्या सुरवेच्या काळांत रोमी राजवटीन येवरोपांतल्या कॅल्टीक भाशीक गॉल प्रदेशांत लातीन भास हाडली आनी कांय शतमानां उपरान्त तिणें गॉल प्रदेशाच्या कॅल्टीक बोलयांची सुवात घेतली. अमेरिकेंतले इंग्लीश राजवटीक लागून अश्योच थंयच्यो कितल्योश्यो थळाव्यो अमेरिकी इंडियनांच्यो भासो ना जावन गेल्यो. अमेरिकी थळांच्या नांवांनी ह्या ना जावन गेल्ल्या भासांची सुलूस मेळटा. Massachusettes, Wisconsin, Michigan, Illinois, Chicago बी नांवां हीच ह्या भासांतल्यान इंग्लीशींत गेल्ली मुखेल सांस्कृतीक उतरावळ[११]

केन्ना केन्ना 'सकयली' भास तगता आनी वयली भास घोळणुकेंतली ना जावन वता. ११व्या शतमानांत – १०६६ वर्सा नॉर्मनांनी इंग्लंड घेतलें. नॉर्मन राजवटींत फ्रेंच भाशेक इंग्लंडांत खूब प्रतिश्ठा आयली. फ्रेंच आनी इंग्लीश भासां मजगतचो हो संघर्श सुमार तिनशीं वर्सां चल्लो. राज्यकर्त्यांनी आपणाली

---

६. पाकिस्तान घडलें तेन्ना उर्दू ताची राष्ट्रभास जाली. धार्मीक, सांस्कृतीक कारणांक लागून भारतीय मुसलमानांचीं काळजांय उर्दू कडेन जोडिल्लीं आसात. गोंयचो मुसलमान लेगीत उर्दूक आपणाली आवयभास मानता. गोंयचे हे उर्दूचेर कोंकणी प्रभाव आसा – उतरावळिच्या पांवड्याचेर आसा तसो नादवेवस्तेच्या आनी व्याकरणाच्या हेर पांवड्यांचेरूय आसा ही गजाल कोणाक नवी न्हय. ह्या प्रभावाचोय अजून शास्त्रीय नदरेन अभ्यास जावंक ना.

७. हे नदरेन गोंयांतल्या भटी बोलयांचो अभ्यास जावंक जाय. गोंयचे भट आपणाल्या बोलयांक मराठीच्यो पोटभासो मानतात. पूण ह्या बोलयांचेर कोंकणी संस्कार खूब जाल्यात हे विशीं कोणाक दुबाव आसचो ना. भट गोंयांत येवन राबितो करून रावले तेन्ना, सामाजीक वा राजकी नदरेन कोंकणीक गोंयांत व्हडलिशी प्रतिश्ठा नाशिल्लीय जायत. पूण वर्सांचीं वर्सां मूळ भाशीक समाजा पसून पयस आनी कोंकणी भाशीक समाजाचे मजगतीं उरिल्ल्यान तांगेल्या बोलयांचेर कोंकणी प्रभाव पडलो अशें म्हणूं येता.

८. Bloomfield 1933 : 461, 462.

९. Bloomfield, 1933 : 462.

१०. सामान्यतायेन हिंदू कोंकणी मनीस. गोंयकार क्रिस्तांव सांस्कृतीक कारणांक लागून मुंबयच्या मराठी निजाकडेन सोंपेपणीं एकरूप – identify – जावंक पावना. हाका लागून मुंबय राबितो करून आशिल्ल्या हिंदू परस तो 'चड कोंकणी' उरता.

११ Bloomfield, 1933 : 463-465

भास सोडलिना. पूण ते इंग्लीश शिकले. आनी थळाव्या लोकां मदल्या फकत वयल्या वर्गान फ्रँच भाशेचेर बरें प्रभुत्व मेळयलें. भौजनां मेरेन पावपा खातीर राज्यकर्त्यांक निमाणे तांगलेच भाशेचो आदार घेवचो पडलो. १३६२ वर्सा न्यायालयांनी इंग्लीश भाशेचो वापर जावंक लागलो. त्याच वर्सा इंग्लीश पार्लमेन्टांतूय पावली. अशे तरेन ब्रिटना वयली फ्रँच भाशेची पकड सुटली. ह्या परकी शेकाच्या इतिहासाचो उगडास इंग्लीश भाशेची उतरावळ अजून काडटा. इंग्लीशींत घेऽ म्हूण फ्रँच उतरां मेळटात – 'पायलेक पंचवीस!' संस्कृतीक मळावयलीं तर्शीं हेर, संस्कृतायेच्या आंवाटा भायलीं म्हणूं येत, अर्शीय. देखी – chair, table, furniture, serve, soup, fruit, jelly, boil, fry, roast, toast, honour, glory, fine, noble, art, beauty, colour, figure, paint, arch, tower, column, palace, castle – राजकारण, कायदो, खेळ बी असल्या मळांवयली खाशेली उतरावळूय इंग्लीशीन फ्रँची कडल्यान घेतल्या.[१२]

आर्विल्ल्या काळार भारता सारकेल्या देशांत वेगळेंच घडिल्लें पळोवंक मेळटा. 'वयल्या' परकी राज्यकर्त्यांचे भाशेच्या प्रभावान हांगासल्ल्यो 'सकयल्यो' थळाव्यो भासो ना जावन गेल्योनात, आनी, थळाव्या 'सकयल्या' भासांच्या प्रभावान परकी 'वयली' भासूय हांगासल्ल्यान बिटकी कवळून गेली ना... हांगा थळाव्यो भासोय तगल्यो आनी परकी राजवटीन हाडिल्ली इंग्लीशूय तगली. थळाव्यो भासो भौसांत उरल्यो आनी इंग्लीशीन वयल्या थरांत मुळां धरलीं... ही 'काणी' थळाव्या भारतीय भासांतली इंग्लीश उरणी उतरावळ सांगतली.

गोंयांत कितें घडलें? साडेचारशीं वर्सांचो पुतुगेज भाशेचो शेक कोंकणी भाशेक ना करूंक पावलो ना. आनी, गोंय मेकळें जायना फुडें साडेचारशीं वर्सां हांगाची राणी जावन आशिल्ली पुतुगेज भास साडेचार वर्सां भितरूच गोंयच्यान आपणाली सांटली पोटली कवळून गेली. तिची सुवात लोकभाशेन – कोंकणीन घेतली ना. गोंय भारताचो वांटो जालें आनी भारतांतल्या ब्रिटीश वसणुकवादाचें 'येरांस' गोंयाकूय मेळ्ळें – पुतुगेजिची सुवात इंग्लीशीन घेतली. मनशाच्यो Identities लेगीत बदल्ल्यो – 'पेद्रू' 'पिटर' जालो, 'आंतोन' 'अँथनी' जालो, 'जुवांव' 'जॉन' जालो, 'मारी' 'मेरी' जालें...

कोंकणींतले उरणे उतरावळींत लेगीत बदल घडून आयले. 'दोतोर' 'डॉक्टर' जालो, 'ओश्पिताल' 'हॉस्पिटल' जालें, 'इंजेसांव' 'इंजेक्शन' जालें, 'कुरासांवांचें' 'हार्टाचें' जालें, 'ग्रावात' 'टाय' जालो, 'फात' 'सूट' जालो, 'कल्सांव' 'पॅण्ट' जालें, 'माक्न' 'मशीन' जालें, 'झार्दीन' 'गार्डन' जालें, 'सॅलाद फोल' 'स्टॅम्प पेपर' जाली, 'आदवोगाद' 'ॲडवोकेट' जालो, 'मीस' 'मास' जालें, 'कोफेंसांव' 'कन्फेशन' जालें, पूण 'इगर्ज' 'चर्च' जाली... पूण म्हणून पुतुगेज उरणे उतरावळिचे सुवातेर इंग्लीश उरणी उतरावळ आयली अशें आमकां म्हणूंक येवचेंना. 'पात्रांव' 'बॉस' जालोना, 'पिकसांव' 'डिस्टर्बन्स' जालेंना, 'सुशेगाद' 'पीसफूल' जालेंना, 'जनेल' 'विंडो' जालेंना, 'कदेल' 'चॅर' जालेंना... चडशी, खाशेल्या रासवळ सांस्कृतीक मळां वयली पुर्तुगेज गेली आनी थंय इंग्लीश आयली. दोतोरकी आर्दी पुर्तुगेजींत शिकताले आतां इंग्लीशींत शिकूंक लागले. हीच गजाल कायद्या सारकेल्या हेर मळांची. पुतुगेजीन कोंकणीचे मुळावे उतरावळींत सुवात मेळयिल्ली. तिची ही सुवात मात इंग्लीश अजून व्हडलिशी घेवंक पावंक ना. कोंकणी-पुतुगेजिचें नातें अजून लार्गिंचेंच – Intimateच आसा.

---

१२. Bloomfield, 1933: 463-465

# र-सुवादीक कॉलम

दितेप बोरकार

मेलांक वचना रे?'
याचें न्हय, दोग-चौग जाणांचो हो प्रस्न.
कळां आसतलें म्हजें 'रुक्षप्रस्न' पुस्तक छापून जालें म्हूण.
न्याते म्हाका प्रस्न करपाचें धाडस करचे नाशिल्ले.
तेन्हाका मितात-बितात अशें कांय न्हय.
व्हन मारतात ते भिसक्यार.
मा हातूंत चूक ना.
ची संस्कृतायूच तशी जावन पडल्या.
कल्चे वळखिचो कोण तरी आमदार आसता
तो ायज-फाल्यां केन्नाय मंत्री जावं येता.
आतां गोंयांत कोणाक कोणाचो भंय उरूंक ना.
करांक तर मात्तूय ना म्हळ्यार जाता.
चून तांकां भेश्टायता थंय आसा.
पडचे आदींच तो परतून आमदार जाता.
प्रस्न करप्यांचें भियेवप राजकी न्हय.
घेतात म्हजो फायदो जावंचो न्हय हाची.
प्रस्न वापरलो आनी ताचेर बरयलें जाल्यार?
प्रस्न रुक्षप्रस्न छापचे आदीं विचारपाचो.
व 'तूं संमेलनाक वचना रे?' हो रुक्षप्रस्न करून उडोवपाचों.
नखायऱ्यांक म्हजें बरें जाल्लें नाकाच.
रुक्षप्रस्न भाग-२ काडचो पडलो.
बी म्हाका कितले जमतले हो प्रस्न अलायदा.
१-२-३-४ बी काडप भिडे सारकेल्याक जमता.
मुकेश थळी, घाणेकार हांचे सारके संशोधक आसात.
ती कोंकणी-इंग्लेज शब्दकोश काडलो.
दिल्लें म्हाका. असल्या गजालिंची गरज आसा.
कटिचें आनी खर्चाचें काम हें!
केळेकारांचे नदरेन तर सामकें पेंवपासारकें.
वूंक जाणा ताणेंच हातूंत उडी मारपाची.
ता तडीक उबें रावपाचें.
कसो पेंवता-बुडटा, बुचळटा तें पळोवपाचें.
दर्यांतलें, न्हंयंतलें, तळ्यांतलें, व्हाळांतलें
लें हें कोण सांगना.
म्हजे सारक्यांक खंयचे तडीक उबें रावचें तेंच कळना.
क रावना जाल्यार कोण बुडटा आनी कोण तरता
माणसुकी ना.
कोण बुडटलो तें काळूच सांगतलो.
मिरांत लागल्या म्हज्या बुडपाची.
लेज शब्दकोशाचो राजहंसान एकूच खंड काडला.
ते न मेरेनच्या उतरांचो.
सुरू जाताली न उपरांतूच. प, फ पसून.
काडचे पयलींच राजहंस बुडलो जाल्यार?

पयसो, पाशियेंस, पाताळयंत्री, पळवाट, पदरमोड बी हांचो
इंग्लेज अर्थ हांवें खंय सोदपाचो?
फटको, फुडार, फुगडी बी उतरां आनी तांचो इंग्लेज अर्थ हेरांक नाका
आसत.
म्हज्यानूय तांचे खातीर आनी भिडे पासत पाशियेंस काडूं येता.
पूण प्रतिमा कामतिचे हाल जातात ताचें कितें?
प्रतिमान खंयच्या तरी इतिहासाचेर पुस्तक बरयलें.
तें इन्स्टिट्यूट मिनेझीस ब्रागांझान छापलें.
छापूं बाबड्यांनी. इतिहासाचीय गरज आसाच.
तो ब्रागांझान छापूंक नाशिल्लो जाल्यार आफोंस छापपाचो.
पूण तो छापूंक कळाव जालो तो ताच्या नांवा खातीर.
'फारार फार' हाचो इंग्लेज अर्थ कोणाक खबर ना.
भिडेचो शब्दकोश येतलो म्हणटाले तोय वेळार आयलोना.
(आतां आयलो तो 'न' मेरेनूच. प, फ बी फुडल्या खंडांत.
आनी आतां येवनूय फायदो कितें? फारार फार जाले.)
बाबड्या प्रतिमाक कोंकणीच नांव दवरचें पडलें.
हें सगळें घडलें तें त्या भिडेन कळाव लायलो म्हूण.
पूण तातूंतय प्रतिमाबायची तोखणायूच जाली.
'फारार फार' नांव दिवन आपलें नीज सांबाळ्ळें म्हूण!
तर हांव कितें सांगतालो? हय. रुक्षप्रस्नाची गजाल.
न्हय. म्हज्या पुस्तकाची गजाल न्हय. प्रस्नाची.
तांणी म्हाका संमेलनाक वचना काय म्हूण विचारलें
आनी म्हाका याद जाली, फर्मागुडयेर संमेलन आसा.
युवा साहित्य संमेलन म्हूण कितें जालें? संमेलनूच तें.
साहित्य आनी साहित्यिक सदां युवाच आसतात.
चिंतलें, हांची अपेक्षा आसा जाल्यार या संमेलनाक.
अशी कोणें अपेक्षा बाळगप हातुंतच आमचें मोठेपण.
नातर मेळत ताका ते कित्याक विचारनात तर?
हांव साहित्यीक हें ते जाणात म्हणून तांचो प्रस्न.
आनी तांणी मानून लेगीत हांव गेलोंना जाल्यार तो अन्याय.
प्रस्न विचारतल्यांचेर न्हय. संमेलन घडयतल्यांचेर.
युवा साहित्यिकांनी म्हाका पळोवपाची इत्सा उकल्ली समजा.
जाल्यार तो शिवदास आनी म्हाळशी खंय खंय धांवतले?
तेच पासत थंय काम नासतनाय हांव गेलोंच.
हांव माटवांत भितर सरलों तशी सगळ्यांनी म्हजेर नदर मारली.
आनी रोखडीच तांणी ती म्हजेवेल्यान काडली.
कोणेंतरी तांकां दोळ्यांनीच धपकायल्ले वरी.
म्हजो सामको म्हळ्यार सामको अपेक्षाभंग जालो.
नातर फाटल्या वर्साचें तें केंपेंचें युवा संमेलन.
वा! अजून ताची याद काडल्यार हांव मळबाक तेंकतां.
युवा साहित्यिकांनी म्हाका सामको गराडो घाल्लो.
कितले, तरांतरांचे तांणी म्हाका प्रस्न विचारचे.

आनी हांवें तांच्या दरेका प्रस्नाक चोख जाप दिवंची.
पूण आज एकलेंय म्हाका पळय लेगीत ना म्हळ्यार कितें?
म्हजेविशिंचो तांचो आदर उणो जालो काय?
हांवें फटाशो मारल्यात बी अशें तांकां कळ्ळें काय?
तांकां म्हाळशी सारको कोणूय ज्येष्ठ साहित्यीक मेळ्ळो काय?
निमित्त करून थंयच्यान कडसरचें अशें दिसलें.
तशें करपाक वतालों इतल्यान एक चली आयलें.
म्हजे मुखार कागद दवरून स्वाक्षरी मागूंक लागलें.
हांवें कडसरपाक उखल्लेले पांय परतून घट केले.
ताच्याच पेनान ताका स्वाक्षरी दिवंक लागलों.
ते आर्दी ताचें नांव विचारचें म्हूण ताका प्रस्न केलो.
'तुजें नांव कितें गो बाय?'
'हांव फुलू काणकोणकार.'
'तूं काणकोणा खंय शिकता?'
'हांव शिकना. म्हजें शिकून जालें.'
'तूं कितें कविता बी करता?'
'च्ये! म्हाका तातुंतलें कांय कळना.'
'कितें बरयता-बिरयता तर तूं?'
'ना. हांवें केन्ना ट्राय करूंक ना.'
'मागीर तूं हांगा कशें पावलें तर!'
'कशें म्हणजे? बसीन. म्हजी मैत्रीण घेवन आयली.'
'पूण तुका हातूंत रस आसा तर?'
'तेतून कितें आसा? आमी कॅम्पाक वचना तर!'
म्हाका ताची जाप दिवपाची पद्दत आवडली.
ताचे भितर कसलींच ढोंगीपणां नाशिल्लीं.
नातर थोडीं आपूण कविता करतां म्हूण बडायो मारतात.
आपल्याक साहित्याचें खूब कळटा म्हूण दाखयतात.
जापो खबर आशिल्ले प्रस्न साहित्यिकांक करतात.
तांकां जाप सांगूंक येना जातकच आपूण दितात.
हांवें फुलूक अपुबायेन स्वाक्षरी दिली.
आनी ताका नमळायेन हांवें प्रस्न केलो.
'फुलूबाय, हांव कोण तो जाणां मगो तूं?'
ताणें म्हजें कितें कितें वाचलां हें हांव जाणूंक सोदतालों.
तें म्हाका पळोवन लजेलें आनी म्हळें
'हें कितें सर! तुमी भिकू बोमी नायक न्ही?'
आयकून म्हाका एकदम धस्स जालें.
खंय भिकू आनी खंय हांव!
कोणूय म्हाका एम्. एफ्. हुसेन म्हणटात
तें एकवेळ हांव समजूंक शकतालों.
पूण फुलून म्हाका भिकू समजुचो!
भिकू समजून म्हजेकडेन स्वाक्षरी मागची?
म्हज्यान आनीक आनी थंय रावूं नज जालें.
स्वाक्षरी केल्लें पेन त्या कागदार चिड्डून आपार मोडचो अशें
दिसलें.
वाटेर भिकून म्हाका हडकिलो पूण ताका
जाप दिवपाचे मनस्थितींत हांव नाशिल्लों.
भिकूक राग आयला आसूं येता.
म्हणटलो, हो स्वताक कितें व्हडलो समजता?
हटकिल्यार लेगीत जाप दिनासतना गेलो तो.
हांव पणजे आयलों. खंयचो त्या संमेलनाक गेलो अशें जालें.
वाटेर भाई केणी मेळ्ळो. ताणें म्हाका आडायलो.
'कितें रे? संमेलनाक वचूंक ना?'
आतां भाईचेर कितें तापतलों? हांसलों.
'वचून आयलों भाई!' हांवें म्हळें.
'वचून आयलो? जावपाचें आसा मरे तें!'
'आज सोंपलें न्हय भाई साहित्य संमेलन?'
'तें संमेलन न्हय रे. ताचें पडलां कोणाक!'
'मागीर आनीक खंयचें म्हणटा तूं?'
'सारस्वत संमेलन रे! मंगळूरचें!'
आनी म्हाका परतून धक्को बसलो.
म्हणजे हे सगळे त्या संमेलनाची गजाल करताले!
पाड पडूं! हांव विनाकारण फर्मागुडयेर गेलों.

**

## गांव

□ शंकर रामाणी

देठयेंतले
काळखाचे
हंयचो निळो पूर...
ब्रंयचे दिकेक
कोमरेतात
उजवाडाचे सूर?

उतरांविणे
लगळे वाटे
उडला म्हजो गांव;
कितलो सोदूं?
अथपिल्यान
ब्रंयचेकडेन धांव?

## चिरमुटलेले नदरेंत

□ भालचंद्र गांवकार

चिरमुटलेले नदरेंत
चिरमुटलेल्यो यादी!
थरथरत्या हातांनी
एक एक पोशेताना
दर्याचो गाज कशे
तुजे सुस्कारे
अजुनय कानांत घोंगेतात!
आनी... मागीर...
नदरेंतल्यो यादी
नवी व्हंकल जावन
हुमऱ्यावेळें माप लकयतात!

## नखेत्रां

□ नयना आडारकार

हो तो तुजो आजो
नखेत्राकडेन दाखोवन बोट
आजी म्हाका सांगताली
एक दीस आजीय नखेत्र जाली.
हो तो तुजो आजो
ही ती तुजी आजी
हांव म्हज्या धाकटुल्या भयणींक
दाखयतालें.
आतां तींय नखेत्रांच जार्ली.
आनी
हांव मात
त्या नखेत्रांनी
म्हज्या मनशांक
सोदीत उरलां...

## भावांनो भयण्यांनो

□ शरतचंद्र शेणै

न्हय हांव गायक कोगूळ कसो भोंवपी,
भुंये पासून पयस राबून पंचमार गावपी–
न्हय हांव गीतकार गोड गोड उतरांचो,
फूल पाकळी तोखेवंचेल्या मोव नाजूक गीतांचो.
न्हय हांव कवी भौसा पासून वेगळो,
जिविताच्या सुख-दुख्खा द्वंद्वां पासून मेकळों.
मौनी न्हय, ज्ञानी न्हय
योगी न्हय, वैरागी न्हय
खिणाक हांसून, खिणाक रडून,
खिणाक झगडून, झगडीं सोडून...
मनीश हांव,
मनशां मदें
मनशां वरी –
सुवार्थी... गुणी... करुणी...

•

# भुरगेपण

□ परेश नरेंद्र कामत

पळेलें हांवें भुरग्यांचें भुरगेपण
शेवण्याभशेन
हांगा-थंय
किलबिलतना;
पिसोळ्याभशेन
काळजाचे लयींत
वयरं-सकयल उडटना;
फुलां भशेन ल्हव जावन
ओंठाच्या पाकळ्यांनी
एकेक उतर म्होंवयतना;
दिसलें म्हाका भुरग्याचें
भुरगें-मन
वझऱ्याभशेन चुळचुळीत मुत्तना...

किण्ण कलकलतना
पेशीपेशींत थरथरतना
चेहऱ्यार मिणमिणटना
पाळण्याभशेन हालतना
वाऱ्याभशेन सोंशेतना
भुरग्याचें भुरगेपण
थेंब
थेंब
दोळ्यांतल्यान पाझरतना...

– थकून-खेळून-खर्शेवन
आवयचे मोगाळ मांडयेर तिळसना,
गुठली करून,
सगळें विसरून
आंगठ्यावरी न्हीद चोखतना
दिसता
जिस्त भुरगेपण
ओग्गी, कुसव्यांत हात-पांय दोडिल्ल्या
गर्भावरी
फकत काळजाच्या ठोक्यार धडधडट्ना...

तळ्यांतल्या चंद्र-बिंबावरी
ल्हव ल्हव रातभर न्हिदेंत निस्तत
अंतर्मनांत जागतना;
उजवाडटना... •

# देवाकूड

□ आर. रामनाथ

आयजूच हांवें आमची देवाकूड झाडल्या
निवळ निवळ केल्या
बऱ्यापैकीं रंगूय मारला
चकचकीत केल्या...
पेड्ड्यार जाल्ले सगळे देव
कडेक काडून दवरल्या
तांकां उदकांत सोडूंक जाय
फकत शंबर टक्के
सुखरूप... नितळ आनी बरो असो एकूच देव
हांवें देवाकुडींत दवरला...

आमगेल्या जाण्टेल्यांचें म्हूण नाका जाल्लें
देवाकुडींत सुमारा भायर देव
अपुरबायेन पुजा करतलों म्हटल्यार
अजिबात चान्स ना.
कितल्या देवांक म्हूण पुसपाचे ?
गंध-पिंजर लावपाची ?
फुलां घालपाचीं ?
तरी बरें –
उजवात-जोत मात एकूच लावपाची.
नाजाल्यार दर एका देवाक
एक उजवात एक जोत लावपाची
जर जाण्टेल्यांनी फतवो काडिल्लो
जाल्यार मात पंचाईत जातली आशिल्ली...

आमची देवाकूड म्हटल्यार
देव देवतांचें एक संमेलन
बहुतेक सगळ्याच देव देवतांची
आवर्जून उपस्थिती...
आमच्या जाण्टेल्यांचें एक बरें आसलें
खंयचेय जात्रेक गेले म्हणटकीर
निदान एका तरी देवाक हाडलोच घरा
आनी खंय तिर्थाक गेले जाल्यार
कितले देव घरा हाडत
हाचो नेम नाशिल्लो...

जाण्टेल्यांचें हांवें आतां सगळेंच मुदार केलां
देवाकुडींत फकत एकूच देव दवरला
आतां अपुरबायेन पुजा करूंक मेळटली
कांय खीणभर देव आनी हांव
पुराय एकरूप जातले.
पोन्नें सगळें पोंदा वचून
एक नवे परंपरेक सुरवात जातली.
आमचे देवाकुडींत पोन्नो देव
फाल्यां नव्यान उदेतलो
आमची देवाकूड फाल्यां एकाच देवान
भरभरून भरतली... उजळटली.

म्हज्या जाण्टेल्यांनो
हांवें कितें केलां
तें म्हाका बेस बरें खबर आसा
तुमी ताची खंत करूं नाकात
म्हाका माफ करात
म्हजी देवाकूड पळोवंक
तुमी फाल्यां मुजरत येयात...

# नातालांची रात

□ मूळ मणिपुरी: मेमचोबी
अणकार: राजश्री म. सैल

नातालांचे रातीं
भांगराचो मुकूट बिशपाच्या माथ्यार
पाद्री उबे रांगेन
पवित्र पुस्तकां हातांत तांच्या मेणवाती
पेट्टात उजवाडाच्यो
नातालांचीं भक्तीगायनां चलतात
शंबर वर्सांच्या त्या ऊंच भांगरा मंदिरांत
आनी...
जाका घालचो पडला मुकूट कांट्यांचो
जेजूक खिळायला क्रॉसाचेर
मध्यान काळखे थंड राती
आंगार एकच फाळी कपड्याची
थंडसाणेन सोंसता तो दूख
आपल्या दोन पांयांतल्या हातांतल्यान
खिळायल्ल्या दोन बुरकांतल्यान
आनी ताच्या थंड काळजांतल्यान
थंड रगत
निशेता ल्हवच.

# सुरींग

□ मनोज नरेंद्र कामत

हें सुरंगाचें येदेंशें फोंडकूल
पूण,
नखलामी केदी!
व्हड-व्हड खडपां खिणांभितर
शेकानशेक वेरावपाचो धीर हो

तो म्हज्यांत केन्ना येत?
– हांव नकळं

जेन्ना येतलो तेन्ना
धर्तरी हांगाची थंय करपाचो बेत
हांव थारायतलों

भिरांत मात इतलीच
कीट पेटून सुरींग फुटचे बदला
थंयचे-थंय शेळेत हीच.

# यादी !

□ सखाराम गोविंद शे. बोरकार

म्हजे जिणेंतल्यान
तूं वचत सावन
तुज्यो सगळ्यो यादी
पुसून उडोवपाचें
हांवें थारायलें.

पूण
तीं दर्याचीं ल्हारां
तो शितळ वारो
तो पुनवेचो चंद्र
तो श्रावणांतलो पावस
अजून तुजी म्हाका याद करून् दिता.
तांकां कशें पुसून उडोवं ?

# पारजतां

□ नयना नाडकर्णी

(१)

माड धोलतालो
तेन्ना रेंदेर कांतार म्हणटालो
काय रेंदेर गायतालो
म्हूण माड धोलतालो ?

(२)

वसंताक आयला
भार
रुखारुखान
आपणायला
परमळाचो ताल

(३)

मळब तांबशें
सांज पिशी
हांसता कशी
आपणाशींच

(४)

आज हांव
दिवलेंतली वात जावन जळटां
वात जळटा तितलें
जिवीत म्हजें परजळटा.

(५)

रातराणये सांग म्हाका
कसलो तुका शाप हो
सकाळ जायनाफुडें
खंय उडून वता वास गो ?

नव्हेंबरच्या आंकांत ह्यो कविता उजवाडा आयिल्ल्यो. चुकून कवयित्रिचें नांव 'नयना आडारकार' अशें छापून आयिल्लें. देखून त्यो हांगा परत्यो उजवाडायल्यात.

— वावुरपी संपादपी

# ांवच्या क्वार्तेलांत वणटीर हांवें भारताचो नकासो चितारलो...

्‌ कार्दोज

इतिहासाचीं पानां

ळू करून ते हिंदी पुस्तिकेंतले थोडे पाठ हांवें वाचून काडले.
ालांचेर हांव हिंदी उतरां आनी वाक्यां परत परत बरोवन काडूंक
ब्दांचें एक एक अक्षर उच्चारून सवकासायेन जालें जाल्यारूय
ाचूंक जातालें तेन्ना म्हाका संतोस भोगतालो. आगळोच आनंद

ति पडचे आदीं म्हाका आमचें राष्ट्रगीत शिकूंक संद मेळूंकच
तेन्ना शाळांनी आनी विद्यालयांनी शिकयताले तें 'एरॉइश दु
eróis do mar) – पुतुगीज राष्ट्रगीत. 'एरॉइश दु मार' म्हणजे
वीर'. सुटकेची चळवळ चलताली तेन्ना एका राष्ट्रवाद्यान तें
तश दु मार' (Piratas do Mar) म्हळ्यार 'दर्यावयले चांचे'
र्शी उतरां बदलून तें हांश्याचो माल केल्लें. हांवें नोरूबाबाकडेन
डो देसाय) 'जन गण मन'चीं उतरां बरोवन घेतलीं आनी ताची
कून काडली.
च्या क्वार्तेला भितर, आमी आशिल्ले ते कुडिचे अस्तंते वटेचे
न खिळे मारलले आसले. हांव त्या खिळ्यांक म्हजो तुवालो,
न दवरतालों. एका दिसा हांवें ते वणटीर त्या लापशी कुडक्यान,
हात लांबायेचो, भारताचो नकासो चितारलो आनी ताचे सकला
ांनी 'जय हिन्द' बरयलें. तें चित्र पुलिसेचे नदरेक येना जावंक
वयल्यान तुवालो, कपडे हुमकळावन दवरतालों.
यन्यान, ३१-७-१९५४ दिसा, सांजवेळा शामराव मडकयकार,
तर (भाई वेलागारकर), डॉ. जुजे फ्रांसीश्क मार्तींश, जुजे लुईश
नंदा गायतोंडो, गुरुनाथ केळेकार, जुजे मिगेल सालदान्य, प्रो.
देसाय, जॉर्ज आंद्राद, आंतोनियु वियेगश हांकां आनी म्हाका
ोटरांत घालून बद्द आग्वादाचे बंदखणींत व्हरून दवरले. म्हजे
क्वार्तेलाचे कुडींत भारताचो नकासो हांवें चितारललो ताचें कितें
डबर म्हाका ना. पूण तो पुसून काडपाक वो ताचेर रंग मारपाक
हावा-शिवा करचें पडलें आसतलें!
दिसा भौ. गोपाळ आपा कामत, पांडुरंग मुळगांवकार, शांताराम
ा काणेकार, वैकुंठ भट, जगन्नाथ पेडणेकार (तानाजी), बाबू
शिवाजी सावंत, माधवराव चव्हाण आनी कृष्ण नांबियार हांकां
खणींतल्यान हाडून आग्वादांत बंदिस्त केल्ले. आमकां सगल्यांक
ति दवरलेले. कुशिचे ल्हान कुडींत एकलोच रॉक सांतान फेर्नांदीश
ाची मनसुबी जावन तो शिक्षा भोगतालो.
दाचे बंदखणींतय कांय दीस आमकां वर्तमानपत्रां, पुस्तकां बी
दिनासले. देखून हांवें आनी दोग-तीग जाणांनी पाटयो आनी
गोवन हाडल्यो. दुदाची तान ताकान भागोवप म्हणटात ते परीं
अभ्यास बरोवन हांव शिकूंक लागलों. एके दटेन पाटी म्हाका
यद्याची जाताली. कादेर्न (चोपडी) चड खर्चादीक जाताली,
र १-२ आण्यांक (६-१२ पयशांक) बरे कादेर्न मेळटाले. पयलीं
ने आमकां जेवणा खातीर सरकार दर एकल्याक दिसाक फक्त
णे (आतांचे ८७ पयशे) सरकार दितालें. "म्हज्या घरा बारा
व हांगा भीक मागतां" म्हणटात तसली म्हजी गत जाल्ली.
ो एकसुरो जावन म्हाका मेळूंक येवपी कोणूच घरचो मनीस
नासलो. असलीच परिस्थिती गोंया भायल्या भाई वेलागारकर, शिवाजी सावंत, माधवराव चव्हाण आनी कृष्ण नांबियार हांची जाल्ली. तांच्या घरच्यांक सोंपेपणी गोंयांत येवन बंदखणींत आसलल्या आपल्या मनशांक भेटूंक मेळनासलें. हेरांचीं घरचीं मनशां सुमानाक एकदां, एका थारायल्ल्या दिसा, तांकां भेटूंक येतालीं. तीं खावपाच्यो आनी हेर वस्तू आनी खर्चाखातीर दुडूय हाडून दितालीं.

आमी सगले २१ जाण सांगाताक रावताले. जेवण बी करूंक ती-तीग जाणांचे ७ पंगड केल्ले. दर एका पंगडांत एकलो मुखेल रांदपी आनी दोग सहकारी आसंताले. आठवड्याक एक दीस एकेक पंगडाचेर रांदपाची पाळी येताली. च्या, चपात्यो करप, तांदूळ विंचप, रगड्यार आळेन वांटप, नुस्तें उजरावप, शीत, भाजी रांदप हें पाळयेर आसलल्या पंगडाचें काम आसलें.

आग्वादाचे बंदखणींत आमकां राखपाक आफ्रिकेचे – आंगोलाचे ना जाल्यार मोसांबीकचे – काळे सैनीक आसताले, आनी वयल्या हुद्द्यार पाकले. कोमांदांतीन वकील गोपाळ आपा कामतबाबाक chefe da cela – कुडिचो मुखेली – नेमलले. 'शॅफ द सॅल' कैद्यां आनी बंदखणिच्या अधिकाऱ्यां मदें एक दुवो कसो आसतालो. कैद्यांचे कितेंय प्रस्न आसल्यार 'शॅफ द सॅला'वरवीं पहारो करपी ग्वार्दाक (cabo da guarda), सार्जेंताक वा कॉमांदांतीक सांगचें पडटालें. तेच परी दिसपट्टे जाय पडटात ते जेवणा-खाणाचे जिन्नस, वो दुसऱ्यांक जाय आसलल्यो वस्तू 'शॅफ द सॅला' उदेशीं हाडच्यो पडटाल्यो. फाल्यांक कितें जाय त्यो वस्तू आयचे सांजेर बरोवन एका कागदार कोमांदांतिचे कचेरेंत तें धाडून दिवंक जाय आसलें. वस्तू नोंद केल्ल्या ह्या कागदाक 'वाल' (vale) म्हणटाले. वालीर बरयलां ते परमणें दुसऱ्या दिसा सकाळच्या इकरा-बारांक सुमार 'रेफर्माद' (reformado) वस्तू हाडून दितालो. (आग्वादांत थोडे बसपगारी जाल्ले जाणटे गोंयकार पुलीस चाकरेक आसले तांकां रेफर्माद म्हणत.)

बंदखणी भितर कोणाकय आपणाकडेन दुडू दवरूंक मेळनासले. कैद्यांक दिसपट्टे मेळटाले ते सरकारी दुडू, तेच परीं घरचीं मनशां हाडून दिताले ते पयशे कॉमांदांतिचे कचेरेंत जमो जावन उरताले आनी जमाखर्चाचो हिशोब ते दवरताले. कैद्यांचो अंतर्गत हिशोब 'शॅफ द सॅल' सांबाळटालो.

थोड्या दिसांनी वर्तमानपत्रां, पुस्तकां, कागद-चोपड्यो बंदखणीं भितर हाडपाची परवानगी मेळ्ळी. चिटी, नेमाळीं, पुस्तकां 'सेंसूर' (censura) जावन येतालीं. आमी बरोवन धाडटाले त्यो चिटी आनी कार्डां सेंसूर जावन वतालीं.

[चलता]

# यमन

**सुरेश गुंडू आमोणकार**

नवरात्रां येतात तेन्ना गोंयचो उत्सवी वाठार चैतन्यान फुलून येता, घमघमता आनी प्रसन्न जाता. नवरात्रां हो सृजनाचो उत्सव. अंदू नवरात्रांच्या अदमासाकूच माधवबाबाचो 'यमन' काव्यझेलो येवपाचो आसा हें कानार आयलें. आनी 'यमना'क येवकार दिवपाक हांव आतूर जालों. 'यमना'न कोंकणी कवितेक एक नवी दिका दिल्या, नवें 'बॅरिंग' दिलां म्हणूंक जाय. 'यमना'क लागून कोंकणी कवितेक नवी गती मेळ्ळ्या. आनी भारतीय साहित्य मळाचेर कोंकणी कविता आनिकूय उंचेल्या स्थानाचेर पावल्या. हे फुडें कोंकणी कवितेचो विचार जातलो तेन्ना, माधवबाबाचो 'यमन' हो एक मानदंड – benchmark – थारतलो. 'यमना' वांगडा खासा माधवबाबाकूय भारतीय साहित्य मळाचेर मानाचो पाट फावो जाला.

हाचेफुडें माधवबाबाचो उल्लेख नांवान करिनासतना निखटो 'कवी' म्हणुनूच करतां. हाका एक विशेश कारण आसा. फाटल्या दोन दसकांतलो कविचो काव्य-प्रवास पळेल्यार, कवीन सुरवेक सावन एक व्रत घेतलां. कवीन कवितेक निवळ निश्ठा दिल्या. तिका अव्यभिचारी निश्ठा ओंपल्या. भुरगेपणा सावन ताका आपूण कवी हाची जाणवीक आसा. हे बाबतींत तो बाकीबाबाले कुळयेंतलो. पूण इल्लो फरक आसा. फोनाचेर कवी "I am poet Borkar speaking" अशें म्हणिना. पूण कवी दीस-रात, तिनूय-त्रिकाळ आपलेच तनरेंत आशिल्ल्यान, कविच्याच उतरांनी सांगचें जाल्यार, "रंध्रारंध्रांतल्यान ताची कविता झंकारता." फाटलीं दोन दसकां कविचे साधनेचो नंदादीप अखंड पर्जळत आसा. पिरायेच्या १५व्या वर्सा कवीक काव्यदेवतेन स्पर्श केलो. १५व्या वर्सा ताचे प्रतिभेक पयलो **चंवर** आयलो. मागीर ताणें आमकां **वताच्यो सांवळ्यो** दिल्यो. मागीर काव्यमळाचेर **उजवाडाचो रूख** लायलो. ते उपरांत ताणें आमचे खातीर **पर्जळाचें दार** उगडलें. ताच्या ह्या काव्य प्रवासांत आमचो कवी, कवी म्हूण, सदांच सादूर रावला. म्हणून ताची कविता दुबळी जावंक ना. खूब फावटीं चडशे कवी आपणेंच मळिल्ले वाटेन चलतात – त्योच प्रतिमा, तेच अनुप्रास, तींच यमकां ताच्या कवितांनी दिश्टी पडटात. आमच्या कवीन मात हें हेतुपूर्वक टाळ्ळां. आपल्या प्रतिमांक नवे अर्थ दिल्यात. म्हूण ताचे कवितेक रसणाय आसा. ती जिवी तट्‌टटीत दिसता. ती गुळ्गुळीत जावंक ना.

आपल्या पयलिंच्यां चारय झेल्यांतल्यान कवीन आपले प्रतिभेचो मंद परमळ ल्हवू ल्हवू काव्य मळाचेर फांकला. फाटल्या कांय वर्सांत तर ताची प्रतिभा बहुप्रसवा जाल्या. तरी पूण तो आपले कविते विशीं, तिचे अभिव्यक्ती विशीं, तातुंतल्या आशयाविशीं भोवूच जागरूक आसा. कवी 'आयलें तशें गायलें' ह्या पंथाचो न्हय. तो आपले कवितेक नवीं नवीं पर्जळपी तासां दीत आसा. देखुनूच, ताची कविता सर्वार्थान लिकलिकता. दोन दसकांच्या फाटल्या प्रवासा उपरान्त कवी आज एका नव्या पेण्याचेर पावला आमचे मुखार **यमन** घेवन.

हो काव्य झेलो भायल्यान तसो भितरल्यान सोबीत जाला. कवी आपले कवितेंतल्यान अमूर्ताचो सोद घेता, तेच भाशेन ह्या झेल्याचें मुखपृश्ठ चित्रकार सिंगबाळान अमूर्त शैलींतल्यान, प्रवाही पिशोलान चितारलां. नामनेच्या मौज प्रिंटिंग ब्युरोन ह्या झेल्याचें छापप तशें बांदप सोबीत करून ताका गोमटें रूप दिलां. John Keats आपले एके कवितेंत म्हणटा:




A thing of beauty, is a joy forever. सोबीत वस्त अनंत काळा मेरेन आनंद दिता. तसो हो झेलो आमकां आपल्या रूपकारान अनंत काळ धादोसकाय दितलो.

आतां 'यमना'च्या अंतरंगांत आमी रिगुंया. कवीन अमूर्ताचो ध्यास घेतला. संगिताचे अमूर्त सूर तागेल्या भावविश्वाक मानवतात म्हूण कवीन ह्या काव्यझेल्याक यमन हें नांव दिलां जावंये. 'यमन' ही ह्या झेल्यांतली आरंबाची कविता. यमन रागांचो राजा अशें म्हणटात. यमनाचें एक खाशेलेपण आसा. हो राग पैसाव्याची भावना, विरहाची आर्तताय आनी आकुळताय समर्थपणान उकतायता. ताच्या अमूर्त सुरां फाटल्यान आशिल्ल्या भावविश्वाचो थाव कवी नकसूद शब्दचित्रांतल्यान घेता. यमनाचे सूर कविच्या कानाचेर पडटात. तेन्ना

सांज जाता
ल्हव ल्हव शेणत वचपी मळब
एक एक नक्षत्र पेटोवंक लागता
आंगणांतल्या तुळशी मुखार लायिल्ल्या
पण्टेच्या उजवाडाक
काळखाचो थाव फुट्टा...

कवीन आपले तनरेच्या कॅन्वासार असलीं जायतीं सोबीत आनी अर्थगर्भ चित्रां ह्या झेल्यांत चितारल्यांत. कविचे प्रतिमासृश्टीक विलक्षण जिवसाण आसा. देखीक, तागेले मातयेंत पांचवोचार परमळ घमघमता. ताची दर एक कविता आमकां भिडून, आमच्या मनाचो थाव घेता. 'अर्थ' हे कवितेंत कवी म्हणटा:

ल्लूं नाका तूं
गो मेरो
ली कवितेच्या अर्थाक
अनंत विश्वूच
जे वेंगेंत येवं दी
' हे कवितेंत तो म्हणटा:
अंताची
ला पिवन
तल्लीं भिरीं
जे
ळे जातात

खां कणकणी
यांचीं पेणीं
चेंतलीं गाणीं
व्यक्ताचीं

लागून कविचे कवितेकूच अनंताचें परिमाण लाभलां. पारजाभाशेन आरनाशिल्लें 'अव्यक्त' वा 'अमूर्त' कवी शब्दांचे वेंगेंत सहज री वाचपी त्या नवलान सामको चकासूर जाता.

ती निर्मितिची प्रक्रियाय पळोवपासारकी आसा. कवी आपल्याच तिचेविशीं आमकां सांगता: ''हांव कविता बरयना / तीच कोरता काळजार... नकळटना.''

एके कवितेंत कवी सांगता:
विता
जे भोंवतणी
र धरता
नी फांतोडेर
वळांवरी
ळान घमघमून
ज्या
त्या पोशांत
डटा
डत रावता...

कित्याक घडटा जावंये? हांव विचार करतां तेन्ना म्हाका दिसता, शरीर-सतारेच्यो तारो खंयच्याय खिणाचेर सुरार लायिल्ल्योच त. म्हणुनूच 'तो' खीण येतकूच ताका कविता आपशींच जाता.

आनी सामान्य मनीस हातूंत फरक होच. सामान्य मनीस सृश्टींत णूक पळेता पूण तातुंतलें काव्य ताका दिसना.

वियेता, तातूंत सामान्य मनशाक स्वार्थच दिसता. पूण कवीक निर्मितिचो, सृजनाचो दिश्टावो जाता. कवी म्हणटा:
ांगूंक येना
सली वेळ
टली केळ

शेन कवी आपले दिसपट्टे जिणेचेर सहज भाश्य करून वता.
टा
क एक स्वास
क एक खीण
ळून एक जीण

नचो कवी सूत्रांत उलयता. सूत्राची व्याख्या संस्कृत भाशेंत अशी

अल्पाक्षरं असंदिग्धं सारवत् विश्वतोमुखम्।
अस्तोभं अनवद्यं च सूत्रं सूत्र विदो विदुः॥

जें उण्यांतल्या उण्या उतरांनी सांगलां, जाचो अर्थ स्पश्ट आसा, जातूंत जिणेचें सार आयलां, जें देशकाल परिस्थितींत लागू पडटा, आनी सगल्या लोकांच्या तोंडांत घोळटा, जातूंत अतिरेक वा व्यंग ना अशें वाक्य म्हळ्यार सूत्र अशें पंडित म्हणटात. सूत्राचे हे सगले गूण कविचे कवितेक जुस्त लागू जातात, म्हणून यमनांतले कवितेक आनीक एक नांव सोबून दिसत: माधव-सूत्र.

अशीं कितलिंशींच सुत्रां यमनांत आसात: देखीक,
पयलें:
साळकांच्या तळ्यांत / फांतेता सकाळ
दुसरें:
वाटे वयलें / एक एक स्टेशन / फाटीं पडटा
तसो / काळ मुखार / सरत रावता...
तिसरें:
मुळां: रुखाचीं कुळां
पानां: रुखाचीं स्पंदनां
फुलां: रुखाचीं नवलां
चवथें:
उतरां उलयनात / तांकां
मोनेळींत फुट्टात / अनंत अर्थाचे आंकूर

कवीक संगिताची आनी सुरांची खूब बरी जाण आसा. संगितान ताचे संवेदनेक धार हाडल्या. कवी संगीत आयकता, तें ताचे जाणिवेंत – ताच्या भावविश्वांत झिरपता; ताच्या अगड मनाचो तें थाव घेता, आनी मागीर, रंध्रां रंध्रांतल्यान शब्द जावन तें रूप धरता... साकार जाता.

तुमी आमी किशोरी आमोणकाराचें गायन आयकतात. तें आवडल्यार 'व्वा' म्हूण तिका दाद दितात. म्हाका याद जाता. कांय वर्सां फाटीं कला अकादेमींत किशोरीबायचें गाणें आशिल्लें. तिणें एक सुंदर तान घेतली. म्हजे फाटल्यान एक दर्दी बशिल्लो. ताणें म्हळें 'व्वा! आंगार कांटो फुल्लो!' पूण आमच्या कविची दाद वेगळेच तरेची. सुरां पेल्यान आशिल्ल्या नाद ब्रह्माचो आपल्या भावविश्वांत कवी अर्थ सोदता आनी शब्दचित्रांतल्यान तिका दाद दिता. तिचे सूर आयकून कविच्या ''आत्म्याक अथांगाची लय फुट्टा.'' किशोरीबायक दाद दिवन कवी आपल्या मनांतलें तिका सांगता. तो म्हणटा:
तुजे सूर
लयब्रह्माक
फुटिल्लो
चंवर
पर्मळ ताजो
मन भरून
म्हजे मोनेळींत
हांव रुजून
फळटां.

हाचेर कसल्याच भाश्याची गरज ना. किशोरीन जें सुरांत गायलें, तेंच कवीन उतरांनी सांगलें.

कविचे प्रतिभेक संगिता वरीच चित्रकला आनी शिल्पकलाय धार हाडटा, कवी सामक्या थोड्या उतरांनी शब्दचित्रां काडटा. तीं वाचतकच म्हाका चिनी चित्रकारांच्या काळ्या आनी धव्या चित्रांची याद जाता. पिशोलाच्या सामक्या उण्या फटकाऱ्यांनी काडिल्लीं चित्रां. तशींच कविचीं शब्दचित्रां. देखीक हें चित्र पळेयात:

थरथरता
सरयेचेर
दव्या थेंब्याचें भिरें
हें दुसरें चित्र:
चान्यांत भिजता
तणाचें पातें
एकसुरें नातें...

कविची कविता वाचतकीच रसीक अवर्णनीय तृप्ती भोगता. कविता ही अशी वस्त, ती समजावन सांगपाक येना. ती समजावन सांगप म्हळ्यार गुलाबाचें सौंदर्य सोदपाक ताच्यो तिसत्यो करप, ताच्या परमळाची रसायणीक विसकणी करप. अशी विसकणी हांव करिना. म्हाका कविचे कवितेचो रसभंग करपाचो ना. कवीन आपल्याच उतरांनी आपले कवितेचें मर्म सांगलां. कवी आपले 'मळब' हे कवितेंत सांगता:

सगळें मळब
सोंपिल्ले वरी दिसलें
तरी
सोंपून सोंपना
तळ्याच्या मनांतलें.

आमी 'यमनां'तल्यो कांय कविता वेगळ्या वेगळ्या नेमाळ्यांत आयिल्ल्यो वाचल्यात. त्यो वाचून उपाट तृप्तीय भोगल्या. हीं माणकां, मोतयां, रत्नां यमनाच्या कोंदणांत बेस बरीं सोबतात.

आपले कवितेविशीं उलयतना माधवबाबानूच म्हळां, आजून आपणाक आपले कवितेची नाट मेळूंक ना म्हूण. हें मत्त म्हाका मान्य ना. 'यमन' वाचतकच दिसता, माधवबाबाक तांचो सूर केन्नाच मेळ्ळा. तांचो 'सा' बेस बरो लागला.

असलो दिव्य काव्य झेलो कोंकणी साहित्य मळार रसिकांच्या हातांत पडला. ताच्या परमळाचो घमघम खूब वर्सां तिगतलो.

एका संस्कृत कवीन म्हळां: **विपुला:च पृथ्वी:, अनंत काल:.** धर्तरी खूब व्हडली आसा आनी काल अनंत आसा. हे धत्तरिर अनंत काळामेरेन माधवबाबाली कविता शाश्वत जावन रसिकांक आनंद दितली हातूंत म्हाका दुबावूच ना.

माधवबाबांक हुनहुनीत परबीं.

**यमन**
**माधव बोरकार, १९९९**
**पानां: १०६; मोल: १०० रु.**

## पोंच

**पाशाण कळी** (कादंबरी)
ज्योती कुंकळकार
अपुरबाय प्रकाशन
पानां: १७५; मोल: १३०/- रुपया

**ल्हारां आनी उमाळे** (कवितां झेलो)
महेश पारकार
ॐ श्री दत्त पद्मजा प्रकाशन
पानां: ९५; मोल: ५० रुपया

**अमर कोंकणी** (कोंकणी अभ्यास पत्रिका)
संपा.: ॲडविन जे. एफ्. डिसौजा
इन्स्टिट्यूट ऑफ कोंकणी,
सेंट ॲलॉयशियस कॉलेज, मंगळूर

REG. No. GOA 1